# जाग

वर्स २६ ◇ आंक १० ◇ मे २०००

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

भायलें चित्र : **जुजे द आल्मादा नेग्रैरुश् (१९६४)**
**(पुर्तुगीज कवी फॅर्नांद पेस्सोआचें चित्र)**


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :

**जाग** म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### भौराष्ट्रीय कंपन्यो कित्याक येतात?

भौराष्ट्रीय कंपन्यो हांगा कित्याक येतात?

आमच्या देशांत बेकार खूब जाण आसात. तांकां कामां दिवपा खातीर, कारखान्यांतल्यान तयार जाता तो माल भायर धाडून देशाक परकी चलन मेळोवन दिवपा खातीर – हें जें कितें सरकारी 'तज्ञ' आमकां सांगतात तें तड्डकां. वेव्हारांत शिटूक आशिल्ल्या लोकांच्यो कंपन्यो ह्यो. त्यो 'परोपकार' करपा खातीर चलनात.

खरें म्हळ्यार, भौराष्ट्रीय कंपन्यांक आपणाल्या देशांत कारखाने चलोवप आतां म्हारग पडपाक लागलां. अमेरिका, फ्रांस, जर्मनी सारक्या देशांतल्यो कंपन्यो ह्यो. तांकां थंय कामदारां खातीर जो दिसवाडो दिवचो पडटा तो कोंता येवपाचो न्हय.

'न्यूजवीक'च्या २३-८-९९च्या आंकांत कांय आंकडे आयल्यात ते पळेतकूच ह्यो कंपन्यो हांगा कित्याक येतात तें स्पस्ट बरें दिसून येता.

अमेरिकेंत कामदाराक दिसवाड्याचे दिवचे पडटात १२७.६८ डॉलर. रुपयांच्या हिसपान सुमार ५६२५ रुपये. फ्रांसांतलो दिसवाडो १२६ डॉलर. म्हळ्यार सुमार ५६७० रुपये. जर्मनींतलो दिसवाडो १९८ डॉलर. म्हळ्यार, सुमार ८९१० रुपये.

भारतांत दिसवाडो कितलो? सरकारानूच नेम केला, पन्नास रुपयां परस उणो आसूंक जायना म्हूण. हांगा संघटीत कामदार नात. हाका लागून खूब कडेन कामदारांक पन्नास रुपयेय सारके मेळनात. धरुंया पन्नासां बदला ह्या कंपन्यांनी कामदारांक दोनशें रुपये दिसवाडो दिलो जाल्यार —

फुक्या सवाय उत्पादन जाता!

कळ्ळें मू, भौराष्ट्रीय कंपन्यो हांगा कित्याक येतात त्यो?

### कीजै प्रभु अपने बिरद की लाज

माग, तुका मेळटलें. खरें. पुणून बेश्टें मेळटलें? तूं मागता तें मेळोवपा खातीर तूं कांयच यत्न करचो ना? फकत मागतलो? जाल्यार, कितलेंय माग, तुका कांयच मेळपाचें ना. देव केन्नाच कोणाक फुकट कितेंच दिना. मागता तें मेळोवपा खातीर तूं पोटतिडकेन कितले यत्न करता तें पळेता, तें मेळोवपा खातीर तूं तुज्यांतली सगळी शक्त खर्चिता काय ना तें पळेता, मागता ताची तुका खऱ्यांनीच गरज आसा काय कितें तें तर्जिता. उपरांतूच दिता.

देवाची कृपा जाय. पुणून ते पयलीं मनशान पराकाश्टेचे यत्न केल्ले आसूंक जाय. यत्नांचें मोल घेतले बगर देव कृपा करिना.

मनीस यत्न करता. आकूळ पिकूळ जावन पोटतिडकेन करता. यत्न करून करून ताका पुरो जाता. तो खशेँवंक लागता. जिस्त ह्या वेळार असो एक खीण येता कीं जेन्ना ताका आपूण करतां त्या यत्नांनी कांय जावपाचें ना, आपूण उणो पडटां अशें खोलायेन दिसपाक लागता आनी तो सूरदासाच्या सुरांत सूर मेळोवन मागपाक लागता —

कीजै प्रभु अपने बिरद की लाज
महा-पतित कबहूं नहिं आयौं, नैकु तिहारे काज

माया सबल धाम धन बनिता, बांध्यौ हौं इहिं साज
देखत सुनत सब जानत हौं, तऊ न आयौं बाज ।
कहियत पतित बहुत तुम तारे, स्रवननि सुनी आवाज
दई न जात केवट उतराई, चाहत चढौं जहाज
नई न करन कहत प्रभु तुम हौं, सदा गरीब निवाज
लीजै पार उतारि सूर को, महाराज ब्रजराज ।

देवा, पडिल्ल्यांक तूं हात दिवन वयर काडटा म्हूण तुजें नांव जालां. हांव पडलां. अवनतिच्या खोल तळाक वचून बसलां. वयर सरपाचो पराकाश्टेचो यत्न करतां. तरूय वयर सरूंक पावना. तुंवें हात दिवन वयर काडले बगर वयर सरपाचों ना. पतित-पावन, गरीब-निवाज – पडिल्ल्यांक वयर काडपी, गरीब दुबळ्यांक धीर आनी आधार दिवपी म्हूण तुजी नामना आसा ती राख.

घर, धन, बायल-भुरगीं ह्या बांदपासांनी जो घुसपल्लों तो अजून घुसपल्लोंच उरलां. हाका लागून तुजें एकूय काम करूंक पावलों ना. ह्या बांदपासांतल्यान म्हाका सोडोवन घेवपाचे यत्न करुनूय हांव म्हाका सोडोवंक पावूंक ना. माया ही बळिश्ट. सट्ट करून सुटना. तिच्या पासांत अशें घुसपून रावप समा न्हय म्हणपाचें जाणां हांव. पळेतूच आयलां, आयकतूय आयलां. तरूय तिच्या पासांतल्यान खासा म्हाका सोडोवंक पावूंक ना. दुर्योधन म्हणटालो —

जानामि धर्मम् न च मे प्रवृत्ती:
जानामि अधर्मम् न च मे निवृत्ती: ।
केनापि देवेन हृदि स्थितेन
यथा नियुक्तोऽस्मि तथा करोमि

'कितें करप बरें, हांव जाणां. पुणून तें म्हाका करूंक येना. कितें करप बरें न्हय हेंवूय जाणां. पुणून तें सोडुनूय दिवंक म्हाका येना. कोण म्हज्या काळजांत येवन बसला, कोण जाणा. तो सांगता तशें करीत रावलां.'

म्हजीय गत्त दुर्योधना सारकी जाल्या. सगळें खबर आसुनूय कांय गजाली हांव करूंक पावना आनी कांय गजाली सोडूंक पावना. कोण बसला म्हज्या काळजांत खबर ना. पुणून इतलें खरें, आतां मेरेन ताचोच शेक म्हजेर सगळ्यांत चड चलत आयला. ताका थंयचो निखळावंक जाय आनी म्हजें काळीज तुंवें तुज्या हातांत घेवंक जाय. तुजोच शेक म्हजेर चलूंक जाय. कितल्याश्याच पडिल्ल्या लोकांक तुंवें वयर काडल्यात. तुजो हो म्हयमा आयकतूय आयलां आनी लोकांक हांव तो सांगितूय आयलां. आतां मागतां, म्हाकाय मात्सो वयर काड. म्हाकाय व्हरून पलतडीं पाय. तुजे तारीर तूं भाडें घेतले बगर चडूंक दिना. हांव जाणां. वयर सरपाचे म्हजे पराकाश्टेचे यत्न सोडून तुका दिवपाक म्हजे कडेन दुसरें कितेंच ना. नवें कितें कर म्हूण हांव मागीच ना. सदांच करीत आयला तेंच कर म्हूण मागतां. म्हाका पलतडीं पाय. आनी पतित-पावन, गरीब निवाज हें तुजें नांव खरें कर.

## आचार्य कृपालानी

केदे केदे व्हड मनीस पळेले आमी गांधीयुगांत! जवाहरलाल, वल्लभभाई, राजाजी, राजेन्द्रबाबू, सुभाषबाबू, बादशाह खान. एका फुडले एक, उत्तुंग व्यक्तित्वांचे.

आचार्य कृपालानीय हेच पंगतींतले.

बाकिच्या सगळ्यांक तांचे वाटार आशिल्ले. तांचे तांचे प्रदेश आशिल्ले. कोणाचो उत्तर प्रदेश, कोणाचो गुजरात, कोणाचो बिहार. कृपालानींक तांगेलो खाशेलो असो प्रदेशूच नाशिल्लो. जल्मान ते सिंधी. शिकपा खातीर मुम्बय पुण्याक गेले आनी महाराष्ट्रीय जाले. शिकोवपा खातीर बिहारांत गेले आनी बिहारी जाले. गांधींची भेट जातकूच गुजरातांत गेले आनी गुजराती जाले. स वर्सां तांणी गुजरात विद्यापीठ चलयलें. ते 'आचार्य' थंयच जाल्यात. उपरांत खादीचें काम आंगार घेतलें, उत्तर प्रदेशांतल्या मेरठ शारांत तांणी एक आश्रम काडलो आनी खादीचें जाळ उत्तर प्रदेशांतल्या गांवां गांवांनी विणून काडलें. काँग्रेसचे सेक्रेटरी म्हूण बारा वर्सां तांणी अलाहाबादेक रावन देशाची सेवा केल्या. निमाणें, जांवंय बंगालचे जाले. भारतीय आकाराचे – प्रांत ना, भास ना, जात ना, संप्रदाय ना असले जे थोडेच नेते देशाक मेळिल्ले तांच्यांतले कृपालानी एक आशिल्ले.

तांकां हांवें पयलेच पळेले ते ए.आय.सी.सी.च्या एका अधिवेशनांत. १९४५तली खबर ही. ४२चे चळवळींत पडिल्ल्या काँग्रेसच्या फुडाऱ्यांक सोडून 'जालें तें जालें... एकामेकांच्यो चुको आमी आतां पोटांत घालपाच्यो आनी एकामेकांक माफ करपाचे' अशी forget and forgive ची भूमिका घेवन व्हायसरॉयान देशाचो नवो फुडार थारावपा खातीर सगळ्यांक सिमल्याक आपोवन व्हेल्ले. थंयच्यान निर्शेवन आनी 'आनीक एक मोटी चळवळ केले बगर इंग्रज वचपाचे नात' हो निर्णय घेवन ते मुम्बयंत आयिल्ले. मुम्बयंत ज्या मैदाना वयल्यान तांणी इंग्रजांक 'क्विट इंडिया' म्हूण निमाणी 'नोटीस' दिल्ली त्याच मैदानार हें अधिवेशन भरिल्लें.

हांव पणजेच्या 'उ येराल्दा'चो प्रतिनिधी ह्या नात्यान अधिवेशनाक गेल्लों. तेत्तिसूय कोटी देव एकेच कडेन एकठांय जाल्ले वरी म्हाका त्या दिसा दिशिल्लें. सगळ्यांचीं उलोवपां गुल्ल जावन आयकलीं. कृपालानींचें आयकलें तेन्ना सामको पिसो जालों. ते पयलीं तांचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें. ते जवाहरलालां सारके देखणे नाशिल्ले. तांच्या व्यक्तित्वांत मौलानां सारको धेंकूय नाशिल्लो. पुणून तांच्यांत अशें कितें तरी आशिल्लें की जें कोणाचेंय लक्ष ओडून घेतालें. बारीक एकशिवडी ऊंच कूड, लांबसार तोंड, घोणिचे चोंची सारकें नाक, रूंद कपळ, मानेर केंस आनी तीख, वर्मार बसऽ सारकें थोमणे मारून, चिमटे काडून, मर्दी मर्दी सणकुटेर फुलोवन केल्लें उलोवप आयकून म्हाका खातखुतल्यो जाल्ल्यो. तांणी वायसरॉयांच्या 'फॉर्गेट ऍण्ड फोर्गीव्ह'चेर हल्लो चडयल्लो. कसले कसले अन्याय आमी विसरले, कसल्यो कसल्यो आगळिको माफ केल्यो हाची एक लांब वळेरी दिवन निमाणें they forget everything except their interests म्हळें तेन्ना ताळयांच्या गजरांत पुराय अधिवेशन गाजिल्लें.

त्याच खिणाक हांव कृपालानींचो भक्त जालां. ते उपरांत खंयूय आसूं, दिल्लींत आसूं वा मुम्बयंत, कृपालानी खंयूय उलोवपाचे आसात म्हूण कळ्ळां तेन्ना तें आयकुपाक चुकनासतना गेलां. कितलींशीं उलोवपां रुचीन आयकल्यांत. 'वक्त्यां' विशिंचो जो आमचो समज आसा तशे वक्ते ते नाशिल्ले. पुणून तांचे कडेन 'सांगपा सारकें' कितेंय तरी सदांच आसतालें. म्हूण, जें सांगताले तें नीट भितर वतालें.

ताचें एक उलोवप घट लक्षांत उरलां.

गांधींच्या बलिदाना उपरांत युनेस्कोन गांधींच्या योगदानाचेर दिल्लींत एक परिसंवाद आयोजीत केल्लो. संवसारांतल्या वेंचीक विद्वानांक आमंत्रणां धाडून आपयल्ले. सगळ्यांनी आपापले 'पेपर' हाडून वाचले. कृपालानींच्या हातांत पेपर नाशिल्लो. आपणाक पेपर बरोवन वाचपाची संवंय ना. आनी आयज हांगा जमल्यात तसल्या विद्वानां मुखार उलोवपाचीय संवंय ना. पुणून सुमार तीन दसकां वयर आपणें गांधींच्या हाताखाला काम केलां, अशी प्रस्तावना करून तांचें जें उलोवप सुरू जालें तें पाऊण वर मात लेगीत आडखळऽ नासतना चल्लें. भार आयिल्ले वरी ते उलयल्ले. ब्राझीलांतली कवियत्री सेसीलिया मेरॅलिश् तर तांगेलें हें उलोवप आयकून सामकी तांच्या 'मोगांत पडची', अशी पिशी जाल्ली. तांचे फाटल्या फाटल्यान भोंवताली.

१९८८ वर्स खूब जाणांचें जल्म शताब्दी वर्स आशिल्लें. जवाहरलाल, मौलाना, जमनालाल बजाज – सगळ्यांचे सुवाळे सरकारान केले. कृपालानींचेंय तें जल्म शताब्दी वर्स आशिल्लें. राजीव गांधींक कोणें उगडास

करून दिलो तेन्ना 'आमचे कडेन पयशे नात' म्हूण तांणी जाप दिली. राजीव गांधींक कृपालानी आपले दिसले नात. (घडये ते कोण आशिल्ले हें खबरूय नासुंये.) खरेपणानशीं कृपालानींचें पुराय आयुष्य काँग्रेसींत गेल्लें. काँग्रेसीन जितल्योय चळवळी चलयल्यो तितल्याय चळवळिंनी तांणी वांटो घेतला आनी बंदखण भोगल्या. बारा वर्सां तांणी काँग्रेसचे सेक्रेटरी म्हूण काम केलां. आनी दोन खेपे तर ते काँग्रेसचे अध्यक्षूय जाल्यात. सत्तांतरा वेळार जवाहरलाल, वल्लभभाई वांगडा वायसरॉया कडेन उलोवणीं करपाकूय ते गेल्यात. इतलेंय आसून राजीव गांधींक कृपालानींचें कितेंच लागलें ना!

कृपालानीं कडल्यान एकूच चूक घडली ती म्हळ्यार, स्वराज्यांत तांकां एकाच मनशा कडेन जुळोवन घेवंक आयलें ना. आयिल्लें जाल्यार खंयचे खंय पावतले आशिल्ले. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार 'कम से कम गर्वनर तो बन ही जाते.' पुणून कृपालानी कोणेय कितें 'दिल्लें' घेवपी नाशिल्ले. जवाहरलालांनी तांकां तीन खेपे मंत्रीमंडळांत आपयल्ले. कृपालानी वचूंक तयार जाले नात. तांणी पद्मभूषण, पद्मविभूषण, भारतरत्न असली कसली पदवीय घेतली ना. (हरशीं भारतरत्नाच्याच पांवड्याचे ते). आयुष्यांत एकूच पदवी घेतली ती 'आचार्या'ची. तिवूय गांधींनी दिल्ली म्हूण घेतिल्ली. हेर खंयचेच पदवेचें तांकां मोल नाशिल्लें. काकासायब कालेलकरांक राष्ट्रपतींनी 'पद्मविभूषण' पदवी दिली आनी काकासायबांनी ती घेतली म्हणपाचें आयकलें तेन्ना कृपालानींक आकांताची तिडक मारिल्ली. 'तुमी ही पदवी घेतलीच कशी, परती करात ती... सरकाराची खुशामत करतल्यांकूच असल्यो पदव्यो मेळटात' अशें म्हणून ते काकासायबां कडेन वरभर झगडिल्ले हांवें पळेल्यात. कृपालानींक सरकारी पदव्यांचो आशिल्लो तसो लटक्या गाज गडगडाटाचोय अबको आशिल्लो. राजेन्बाबू राष्ट्रपती जावन 'व्हायस-रीगल लॉजां'त (आयज ताका आमी 'राष्ट्रपती भवन' म्हणटात) वचून रावपाक लागले तेन्ना कृपालानींनी राजेन्बाबूंचीं वर्मार बसचीं अशे तरेचीं फकाणां (तांच्याच तोंडार) मारिल्लीं. 'तुमी व्हायस-रीगल लॉजांत आनी खादी व्हायट वे लॅडलाँत पाविल्ली पळोवन बापूंचो आत्मो शांत जाला जातलो' अशें म्हळ्ळें. राजेन्बाबूंची कितलेशे दीस न्हीद खळिल्ली.

राजेन्बाबूंचीं हे भाशेन फकाणां मारपाचो धीर फकत कृपालानींकच जावं येतालो. कित्याक, राजेन्बाबू संबंदान तांकां सुमारा भायर आदर आशिल्लो.

गांधीं सरीं बुदवंत, तेजिश्ट आनी कर्तुत्वी अशे कांय जाण पाविल्ले तांच्यांतले कृपालानी एक आशिल्ले. गांधी विचाराच्या पांच सात व्हड माष्यकारां मदलेय ते एक आशिल्ले. 'द गांधीयन वे' (उपरांतचें) 'द गांधीयन थॉट', 'पॉलिटिक्स ऑफ चरखा', 'द लेटेस्ट फॅड - बेजिक एज्युकेशन' हीं तांचीं ह्या विशया वेलीं गाजिल्लीं कांय पुस्तकां. तांणी गांधींचें एक जिवितय बरयलां. ह्या सगळ्या पुस्तकां मजगतचीं 'द क्लास वॉर' आनी 'गांधी द स्टेट्समन' हीं दोन माणकुलीं पुस्तकां मुजरत वाचपा सारकीं. मार्क्साचो वर्गसंघर्शाचो विचार कितलो 'अ-शास्त्रीय' हें तांणी पयल्या पुस्तकांत विकसावन सांगलां, तर दुसऱ्या पुस्तकांत गांधींक महात्मा करून आनी तांकां मनशांतले काडून देवांचे पंगतीक बसोवन आमी तांचेर केदो व्हड अन्याय केला आनी खासा आमचेंच कितलें लुकसान करून घेतलां तें सांगलां. तांगेलें खंयचेंय पुस्तक हातांत घेतलें आनी तें कोणें बरयलां तें आमकां खबर नासलें, जाल्यारूय पुस्तकांतलीं एक दोन वाक्यां वाचिना फुडेंच 'हें कृपालानींचें पुस्तक आसूंक जाय' म्हणपाचें कळपाक वेळ लागना. तांचे शैलींतूच अशें कितें तरी एक आगळें वेगळेपण आसा की जें तांकां हेरां पसून वेगळें काडटा. 'बेजिक एज्युकेशना'वयल्या पुस्तकाक तांणीच नांव दिलां 'द लेटेस्ट फॅड' म्हूण – नवें 'कोल्ल' म्हूण. गांधींचीं सगळीं 'फॅडां'च आशिल्लीं म्हणटल्यांक सणसणीत जाप ही तांगेली. गांधी सारकेले 'कोल्ली' लोकूच संवसारांत कितेंय तरी नवें घडोवन हाडूंक पावल्यात अशें म्हळां. शिक्षणाच्या मळा वयलें गांधींचें हें फॅड (कोल्ल) देशान आपलेंशें केलें जाल्यार आयची पुराय शिक्षण-पद्धत कोंसळावन उडोवपी थरतलें आनी तेंच ह्या देशांत एक नवो मनीस निर्माण करतलें म्हणपाचें तांणी ह्या पुस्तकांत चिमटे काडून, कुटल्यो मारून दाखोवन दिलां.

दक्षीण आफ्रिकेंतलो वावर पूर्ण करून गांधी मायदेशांत परतले तेन्ना तांकां जे पयले वयले कांय सांगाती मेळ्ळे तांच्यांत कृपालानी एक आशिल्ले. कृपालानी त्या वेळार बिहारांतल्या मुझफ्फरपूर कॉलेजांत इतिहास शिकयताले आनी तांगेले जिवाभावाचे इश्ट काकासायब कालेलकर रवीन्द्रनाथांच्या शान्तिनिकेतनांत संस्कृत शिकयताले. गांधी मायदेशांत पावनाफुडें पयलीं शान्तिनिकेतनांत गेले. तांकां मेळ्ळे उपरांत, तांचे सरीं बसून खूब भासाभास केले उपरांत काकासायबांनी कृपालानींक एक चीट बरयली, तुर्तांक हांगा शान्तिनिकेतनांत एक 'विक्षिप्त' फुडारी येवन रावला. तो अहिंसेनूच देशाक स्वराज्य मेळटलें म्हणटा... रोखड्या रोखडो यो.' कृपालानींनी ते आर्दी देशांतल्या सगळ्या फुडाऱ्यांची 'परिक्षा' घेतिल्ली आनी कोण केदे तें तर्जून पळेल्लें. ह्याय फुडाऱ्याची 'परिक्षा घेवपाक' ते शान्तिनिकेतनांत आयले. कृपालानी म्हणटात, आठ दीस हांवें तांकां आडवे तिडवे तरांतरांचे प्रस्न विचारून तांची परिक्षा घेतली. तांच्यो जापो आयकून म्हजें समाधान जालें ना. पुणून एक जाणवीक जाली, हो जे वाटे वयल्यान चलता तीच वाट खरी म्हणपाची ताका खातरी पटिल्ली आसत जाल्यार धाय दिको कोसळून पडूं, तो आपणाली वाट सोडपाचो ना. एकलोच ते वाटे वयल्यान चलत रावतलो... आनी देशाक स्वराज्य जोडून दिल्यार होच दितलो अशें दिसपाक लागलें. गांधींचें व्हडपण आनीक एका प्रसंगांतल्यान कृपालानींक दिसून आयलें. ते म्हणटात, 'हांवें तांकां म्हळें, तुमी अहिंसेन स्वराज्य येतलें म्हणटात. तुमकां घडये खबर नासतली – हांव इतिहासाचो एक प्राध्यापक. आयज मेरेनच्या संवसाराच्या इतिहासांत खंयच्याय देशाक अहिंसेन स्वराज्य मेळिल्ल्याचो एक लेगीत दाखलो म्हाका मेळूंक ना.' गांधींनी म्हाका जी जाप दिली – तिवूय भौच नमळायेन, पुणून जबर आत्मविस्वासान – ती आयकून हांव सामकोच शेळेलों. तांणी म्हळें, तुमी इतिहास शिकोवपी प्राध्यापक, हांव इतिहास घडोवपी मनीस. अहिंसेन कोणाक स्वराज्य मेळूंक ना, हांव जाणां. हिन्दुस्तांनाक मेळटकूच अहिंसेन मेळूं येता म्हणपाचें तुमकां शिकोवचें पडटलें...'

हे एकेच जापेन कृपालानी गांधींचे जाले. अखेरे मेरेन तांचेच जावन रावले. तांणी सांगिल्लीं सगळीं कामां केलीं. 'कितें कितें तांणी आमकां करूंक लायलें! पायखिळे तुमच्याच हातांनी निवळ करात म्हूण सांगलें. पायखिळे निवळ केले. चरख्यार सूत काडात म्हूण सांगलें... तें कित्याक, तांणी सेवाग्रामांत आमकां 'केक' म्हूण सांगून गोरवांक घालतात ती पेण खावंक दिली. खाली... क्या करते?... स्वराज्य जो चाहते थे!'

कृपालानी सभावान 'सीनिक'. जांकां आमी व्हड मनीस मानीत आयल्यात तांच्यांतलीं लेगीत उणींदुणीं पळोवपी आनी तांचेर घाय करपी. पुणून गांधीं वयलो तांचो भावार्त सामको 'अंध' म्हणपा सारको आशिल्लो. आयुष्याच्या निमाण्या पर्वांत गांधींनी उदेंत बंगालांतल्या नोआखाली वाटारांत हिन्दू मुसलमानां मजगतीं पेटिल्लो उजो पालोवपाचो वावर हातांत घेतिल्लो. 'एकला चलो रे' देखीन ते एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत चलत वताले. पांयांनी आनी अनवाणयां. तांच्या सांगाताक सदां सात आठ जाण आसताले. तांकां सगळ्यांक तांणी नोआखालींतल्या वेगळ्या वेगळ्या गांवांनी धाडून दिल्ले. फकत तांगेली पंदरा सोळा वर्सांचे पिरायेची नात मनू तांच्या सांगातांत, तांचे सेवेक राविल्ली. रातच्या आसऱ्याक खंयूय रावताले. एक दीस तांकां कुडकुडो भरलो. हून उदकाच्यो बाटल्यो, पिशव्यो घेवन न्हिदले जाल्यारूय गेलो ना. अशें सद्दां जावपाक लागलें तेन्ना मनून तांकां एक दीस वेंग

मारली आनी तांचो कुडकुडो गेलो. (डॉक्टर म्हणटात, तांच्या रगतांतली साकर उणी जाल्ली आसूंक जाय. साकर उणी जातकूच खंय कुडकुडो भरता. तांणी रगत तपासून पळोवंक जाय आशिल्लें. पुणून नोआखालींत रगत खंय तपासतले?) गांधींची ही पदयात्रा चलत रावली. मनू तांच्या हांतुळणारूच न्हिदपाक लागली. ही खबर फां फां जावन खूब जाणांच्या कानार पावली. गांधींचे कांय आश्रमी सांगाती किर्ते जालां तें पळोवपाक हुसक्यान नोआखालींत आयले. ते पयलीं खासा गांधींनीच 'तुर्ताक मनू म्हज्या हांतुळणार न्हिदता... ते संबंदान कोण कोण किर्ते किर्ते उलोवपाक लागल्यात... तुमचें मत किर्ते?' अशें विचारून आपणाल्या कितल्याश्या सांगात्यांक चिटी बरयल्यो. कृपालानींकूय एक बरयली. कृपालानींची जी जाप आयली ती प्यारेलालांनी आपल्या 'द लास्ट फेझ' पुस्तकांत दिल्या. कृपालानी म्हणटात – 'हांव तुमचो राजकी अनुयायी. तुमच्या आध्यात्मीक विचारांचो न्हय. पुणून म्हाका कबूल करूंक जाय, अध्यात्माचें हांवें म्हाका कांय लावन घेतलें ना जाल्यारूय तुमच्या विचारांचो म्हज्या जिविताचेर प्रभाव पडला... तुमी बरयल्या ती खबर म्हज्याय कानार आयिल्ली. तेन्ना दिशिल्लें, नोआखालींत तुमचो एक प्रयोग चलिल्लो आसतना लोकांचें लक्ष दुसरे खंयचेय गजाली कडेन वता अशें तुमचे हस्तुकीं कितेंच जावंक फावना... पुणून म्हजे तकलेंत जें आयलें तें तुमचेय तकलेंत आयलां जावंक जाय. आनी तरी आसतना ही गजाल तुमी चलूंक दिल्या जाल्यार तुमी सगळ्या वशिंनी विचार केल्लो आसूंक जाय. म्हाका असल्यो गजाली समजनात. पुणून एक गजाल हांव सांगूंक सोदतां, म्हजो तुमचेर येदो भावार्त आसा की, धरूंया, तुमकां करूंक फावना असलें कितेंय करता आसतना खासा म्हज्या दोळ्यांनी हांवें पळेलें जाल्यार हांव म्हणटलों, म्हजे दोळे म्हाका फटयतात. तुमी केन्नाच फटोवपाचे नात – 'माय सेन्सिस् फेल मी, बट् नॉट यू.'

म्हाका खूब फावटीं दिसलां, कृपालानी सारक्या सीनिक मनशांत येदो भावार्त जागोवपी गांधी केदे व्हड आसूंक जाय!

कृपालानींक मूर्ख लोक सोंसनाशिल्ले. तशे दांभीक धोंगीय सोंसनाशिल्ले. ते तांच्यो भगलो मारताले, तांकां आडवे उबे चिरून उडयताले. लोकसभेंत तांकां सदांच विरोधी पक्षांच्या बांकांचेर बसचें पडलां. उलोवपाक उबे रावताले तेन्ना मर्दी आडखळी हाडपाचें काळीज सत्येर आशिल्ल्या पक्षांतल्या कोणाक जाय नाशिल्लें. ते उलयतात तें जवाहरलाल सदांच लक्ष दिवन आयकताले आनी भौच भौमानान तांकां जाप दिताले. १९६२त चीनचे घुरये वेळार संरक्षण मंत्री कृष्ण मेननांक आडवे उबे चिरपाचें काम कृपालानींनीच सगळ्यांत पयलीं केलां आनी जवाहरलालांनी तें तोंड धांपून आयकलां. दुसऱ्याच वर्सा केन्द्रीय मंत्री के.डी. मालवीयांनी कलकत्त्याच्या एका धनिका कडल्यान वेंचणुकां खातीर पयशे हाडल्यात म्हणपाचें तांणीच उकताडा हाडिल्लें आनी तें आयकून जवाहरलालांनी मान सकल घाल्ली. जेन्ना जेन्ना भ्रश्टाचाराचें खंयचेंय प्रकरण तांचे नदरेंत आयलां तेन्ना तेन्ना दांत वोंठ चाबून ते उसळ्ळ्यात. तांणी कॉंग्रेस सोडली आनी किसान मजदूर प्रजा पार्टी काडली. एक दीस ही प्रजा पार्टी आनी समाजवादी पार्टी एक जावन प्रजा समाजवादी पार्टी जाली. कृपालानी तिचे अध्यक्ष आशिल्ले. पुणून तांकां विचारी नासतना, सांगी नासतना हे पार्टिचे वांगडी मनाक मारता तें करताले. महाराष्ट्रांतले ना.ग. गोरे गोंयांत सत्याग्रह करपाक मुखार सरले ते अशेच – पार्टिच्या अध्यक्षाक विचारी नासतना, सांगी नासतना. तांकां गोऱ्यांची तिडक मारिल्ली. 'सारे पाजी और बदमाश कॉंग्रेस में हैं, और सारे बेवकूफ हमारी पार्टी में हैं' अशें खंतीन आनी तिडकीन तांच्या तोंडांतल्यान त्या वेळार भायर सरिल्लें.

अखेरेक पार्टीक उबगले. आनी अपक्ष म्हूण वावरूंक लागले. एक दीस राजकर्णांतल्यानूच निवृत्त जाले. निवृत्त जाले खरे. पुणून राजकर्ण सोडून दिलें ना. गुजरातांतले नवनिर्माण चळवळीक आनी बिहारांतले जयप्रकाशजींचे चळवळीक तांणी उकतेपणीं तेंको दिला. आनी इमर्जन्सी वेळार तांणी इन्दिराजींचो जितलो करूं येता तितलो विरोध केला.

अखेर मेरेन देशांतल्या म्हत्वाच्या खबरेपत्रांत नेमान लेख बरोवन ते देशाक जागयत रावल्यात, शिटकायत रावल्यात.

एक गजाल सांगपाची उरल्या —

तांणी आत्मकथा बरयल्या. ती उजवाडा येवचीच आसा. पुणून ती येवचे पयलीं तांगेल्या गुजरातांतल्या कांय इश्टांनी तिचो गुजराती अणकार नगीनदास परीखां सारकेल्यां कडल्यान करून घेवन उजवाडा हाडला. गुजराती लोकांनी तांचेर खूब मोग केलो. तांणीय तांचेर केलो. १९८२त ९३ वर्साचे पिरायेर तांकां मरण आयलें तेंवूय गुजरातांतूच (अहमदाबादेक) आयलें. सूख दुख्ख, लाव लुक्सान, मान अवमान कृपालानींच्या वांट्याक खूब आयले. पुणून तांगेल्या जिविताक ते आफडूंक पावले नात. 'सुख दुख दोनों सम करि जानै / और मान अपमाना / हर्त शोक ते रहे अतीता / तिन जग तत्त्व पिछाना' हे देखिनूच ते जियेत आयिल्ले.

## खबरी – आमोरे वयल्यो

### (दुसरी खिरत्त)

***तुमी कोंकणीच्या मळार पावल दवरलां त्या वेळार तुमची पिराय ऐन उमेदिची. आयज तुमची उतार पिराय चलता... कोंकणींत कितें येता, कितलें येता तें तुमी पळेतात. कोंकणी खंय आशिल्ली खंय पावल्या... हें पळेतकूच तुमकां कितें दिसता?***

हड्डें अभिमानान फुलून येता. हांवें ह्या मळार पावल दवरलां त्या वेळार वालावलीकारांलीं (शणै गोंयबाबांलीं) धा बारा पुस्तकां, प्रो. नायकांलीं पांच स नाटकुलीं, **वोंवळां** नांवाचो एक कथां-झेलो, **सड्या वयलीं फुलां** आनी **खांचक्यां करण** नांवाचे दोन कवितां झेले सोडून कांयच नाशिल्लें... त्या मानान रोमींत बरींच पुस्तकां भायर सरतालीं. पुणून तीं नवसाक्षरां खातीर, नवसाक्षरांनीच चडशीं बरयल्लीं आसतालीं. साहित्यांत मोडपा सारकीं नाशिल्लीं. **साहित्यांत** मोडपा सारकें एकूच पुस्तक मेळ्ळें म्हाका ते मुस्तींत रोमींत. ज्योकीं आंतोन फेर्नान्डीसांचें **आमचो सोडवणदार.** चारूय 'एवांजॅल' गुथून तयार केल्लें Harmonised Gospelsचें भाशांतर. भास, व्याकरण, पांवडो सगळ्या आंगांनी वयल्या पांवड्याचें... फादर आन्तोद पेरेइरा, फेलीस्यु कार्दोझ, फ्रॅंडी द कॉश्ता बी रोमींतले बरपी उपरांत आयल्यात... कानडींत साहित्य आसा म्हुण्णूय उपरान्त आयकूंक मेळ्ळें, ते मुस्तींत तें आमचे मजगतच्या कोणें पळोवंक लेगीत नाशिल्लें. कानडींतले कोंकणी बरपावळिची वळख आमकां पयली वयली चा.फ्रा. कडल्यान जाल्या आनी चा.फ्रा.ची वळख मुम्बयचे आकाशवाणी वयल्या कोंकणी कार्यावळींतल्यान जाल्या... कोंकणी समाज कुडके कुडके जावन वेगळ्या वेगळ्या संवसारांत जियेवपी एक disintegrated समाज. ताका समाजशास्त्राचे नदरेन एक 'भाशीक समाज' म्हणूंक येना. आमच्या म्हालगड्यांनी ताका 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान गुथून ताचो 'एक भाशीक समाज' करपाचो वावर सुरू केल्लो. १९३९ सावन... पयली कोंकणी परिशद जाल्ली तेन्ना सावन. अजून तो तडीक वचूंक ना. कोंकणी समाज आयजूय विस्कळीत, विघटीत, disintegrated उरला. वेळ लागतलो तो एक भाशीक समाज जावपाक. पुणून एक दीस जाले बगर रावचो ना. ना जाल्यार शेणटलो.

तर... हांव सांगतालों, देवनागरींत ते मुस्तींत कांयच नाशिल्लें... धा वीस पुस्तकांच्या भांडवलार आमी तिका तिचे मराठी हिन्दी बंगाली कन्नड

तमीळ बी भयण भासांचे पंगतीक व्हरून बसोवपाच्या वावराक लागले. अर्द शतमाना उपरांत आयज कितें पळोवंक मेळटा? कथा कविता नाटकां ह्या तीन मळांचेर खंयचेय भाशेक अभिमान दिसचो हे तरेची बरपावळ कोंकणींत तयार जाल्या. हेर विशयांचींय कितलींशीं पुस्तकां भायर सरतात तीं दिश्टी पडटात. वर्सान वर्स म्हजेच कडेन वीस पंचवीस पुस्तकां पावतात... पावनात असलींय जायतीं आसात, जांचीं नांवां केन्ना केन्ना काना वयल्यान वतात... हें सगळें पळोवन म्हाका संतोस भोगलोना जाल्यारूच अजाप करपाचें.

***खंत अशी कसलीच दिसना?***

एक खंत जाता... ती सांगली ना, जाल्यार म्हजेच म्हाका खातलें म्हूण सांगतां... हें जें सगळें आयज उजवाडा येता तांतलें कितलें शें 'स्वतंत्र कोंकणी भाशेंतलें' आसता आनी कितलें शें 'मराठीचे बोलीं'त बरयल्लें आसता? 'आमकां येता ते कोंकणींत आमी बरयतात' अशें म्हळें म्हूण जायना. आमचें दुबळें आंग धांपून उरना... आमी कोण आमकां 'येता ते मराठींत' वा 'येता ते इंग्रजींत' बरयनात. सारके मराठींत आनी सारके इंग्रजींत बरयतात. बरयल्लें 'हें सारकें जालां काय ना तें मातशें पळे पळोवया' म्हूण कोणाय जाणकाराक व्हरून दाखयतात. सारकें आसा म्हणपाची खातरी जाले उपरांतूच छापूंक दितात... हांव विचारतां, कोंकणी 'सारकी' बरोवपाची गरज ना? कोंकणीय **सारकी** बरोवंक येवंक जाय. कोंकणीय **शिकूंक जाय.** बरयल्लें कोणाय जाणकाराक दाखोवंक जाय. आनी उपरांतूच छापूंक दिवंक जाय. कोंकणीचें एक खाशेलें नीज आसा. तिची एक प्रकृती आसा, जिनियस आसा तो होलमूंक जाय. म्हणटकूच तिची बांदावळ आनी मराठीची बांदावळ एक न्हय म्हणपाचें सगळ्यांत पयलीं लक्षांत येतलें. तिचे निजाचे बांदावळी कडेन आमचें कोणाचें व्हडलेंशें लक्ष आयज गेलां अशें दिसना. बांदावळ घट उरत जाल्यार दुसऱ्या भासांचो प्रभाव चडसो पडना. आमी आमचे भाशेचे बांदावळिचेरूय दुसऱ्या भासांचे बांदावळिचो प्रभाव पडूंक दितात. तुर्ताक आमी जी कोंकणी बरयतात ती हेच खातीर मराठीची बोली कशी दिसता. ह्या प्रभावांतल्यान तिका मेकळी करूंक जाय. म्हणटकूच 'स्वतंत्र कोंकणी भास' रूप घेवपाक लागतली. हे नदरेन शणै गोंयबाबांची भास अभ्यासूंक जाय. ताणीं कोंकणीची बांदावळ कोंकणीचीच दवरल्या. तत्सम उतरांचें तद्भव केलें म्हूण कोंकणी जाता असो आमचो कांय जाणांचो समज. तत्सम उतरां तत्सम उरलीं म्हूण घात जायना... शणै गोंयबाबांनी **भगवंतालें गीतां**त तत्सम उतरां घेवंक नात हें खरें. पुणून तत्समांचीं तद्भवूय करूंक नात. निजाचीं कोंकणी उतरां सोडून तीं वापरल्यांत... मात्सो यत्न करूंक जाय, निजाचीं कोंकणी उतरां मेळटलीं. आमकां निजाचीं कोंकणी उतरां लेगीत कोंकणी दिसनात. अडेचीं उतरां हीं अशें म्हणपी लोक आसात... देखीक, सैम. 'सैमाक निसर्ग म्हळ्यार कितें जाता?' अशें विचारपी कांय जाण म्हाका मेळ्ळ्यात. सैम 'स्वयंभू' वयल्यान आयलां. आतां सांग, सैम अडेचें उतर काय निसर्ग अडेचें? सैम उतर आमी घडोवंक ना. नवें उतर न्हय हें. निजाचेंच कोंकणी उतर हें. खंयचेच भाशेचो प्रभाव पडूंक नाशिल्ल्या अशिक्षितांचे जिबेर घोळटा तें. 'म्हाका म्हजी भास दायजान मेळ्ळ्या' अशें एक वाक्य म्हज्या बरपांत खंय तरी आयिल्लें एकल्यान वाचलें. ताणें बापायक विचारलें, 'दायज म्हळ्यार कितें?' 'वारसो', बापायन पुताक जांप दिली. पूत एक दीस म्हाका मेळ्ळो, विचारपाक लागलो, 'दायजा बदला वारसो म्हळ्ळें जाल्यार कितें घात जातालो? दायजाचो अर्थूच कळना.' हांवें ताका विचारलें, 'तुका दायजी नात रे?' ताचे दोळे चिक्क जाले. म्हणपाक लागलो, 'चुकलों हांव.' मागीर विचारपाक लागलो, 'निजाचीं कोंकणी उतरां खंय मेळटलीं? हांवें म्हळें, अशिक्षित उलयतात तें कान दिवन आयक. नुस्त्या बाजारांत वचून लोक उलयतात तें आयक. कुटुंबाच्या घरांत रावता मू तूं? तुमच्या घरांतल्यो सगळ्यो बायलो शिकिल्ल्यो आसच्यो नात. ह्या बायलांक उलोवंक लाय. आनी तें लक्ष दिवन आयक... (आनी विनोदान म्हळें,) तांचे मजगतीं लावालावी लाय... मागीर, त्यो झगडटल्यो एकिमेकीं कडेन... तेन्ना झगडें आयकत राव. कोंकणीक निजाचें कोंकणी रूप दिवंक असलेच प्रयोग करूंक जाय. आनी हेच कोंकणींत प्रभावी गद्य बरोवंक जाय... आयज इतलेंय जें उजवाडा आयलां आनी येत रावलां ताचे विशिंची म्हजी खंत ती ही – तें **सारके** कोंकणींत येना. चार दसकां वयर जालीं म्हाका साहित्याच्या मळार वावरून. म्हाकाच अजून सारकी कोंकणी येना... महाभारताच्या अनुसर्जनाचे प्रस्तावनेंत हांवें एक वाक्य बरयलां, 'कोंकणी म्हाका सारकी येना आनी **कोंकणी सारकी कठीण भास दुसरी ना'** म्हूण. म्हज्या अणभवाचें अर्क हें... हांवें खूब बरयलां... बरोवपाचें बंद केलें म्हूण कोणाचें कांय अडपाचें ना. कोण शिणचोय ना. तरी आसतना, बरयत रावलां. कित्याक, कोंकणी गद्याक कोंकणी रूप दिवपाचो एकूच उद्देश मुखार दवरला. म्हजो 'रियाज' हो. आयज कोंकणींत जें कितें येता तें पळोवन संतोस भोगता, हड्डें फुलून येता. पुणून तें चडशें मराठीचे बोलींतलें शें दिसता. म्हूण खंतूय भोगता.

***साहित्यकार ह्या रुपान तुमचो खंयच्या वर्गणांत आसपाव करपाचो?***

पत्रकाराच्या वर्गणांत करपाचो. पुणून, तुमी पत्रकारांक साहित्यकार मानतात काय ना, दुबाव आसा. फाटल्या कांय वर्सांत साहित्याची व्याख्या बदलत गेल्ली हांवें पळेल्या. विनोबांक आमी केन्ना साहित्यकार मानलेच नात अशें म्हणपी कांय मराठी साहित्यकार मेळ्ळ्यात म्हाका. तरी, नशीब ज्ञानेश्वरांचें, म्हूण तांचो आसपाव साहित्यकारांत अजून जाता... पत्रकारांचो आसपाव साहित्यकारांत जाता काय कितें, खबर ना. टिळक आगरकर शिवरामपंत परांजपे हे मराठी संवसारांतले व्हडांतले व्हड पत्रकार आशिल्ले. आनी, म्हज्या मत्तान, व्हडांतले व्हड साहित्यकारूय आशिल्ले. मराठी गद्याची बुन्याद हांणीच घाल्या... हांव बरोवपाक लागलों तो पत्रकार ह्या रुपान. तांचेच देखीन. **मीर्ग, गोमंत भारती, नवें गोंय, त्रिवेणी, कोंकण भारती** बी नेमाळ्यांतल्यान जें कितें बरयलें तें सगळें पत्रकार ह्या रुपान बरयल्लें. ४२-४७च्या वातावरणांत म्हजी वाड जाल्ली. स्वातंत्र्य देशाचें दार खटखटावपाक लागिल्लें. देश स्वतंत्र जातलो... रोखडेच आमी समाजवाद हाडटले... गरीब गिरेस्त, ऊंच उणाक, आपलो पेलो सगळे अमंगळ वेगळेचार ना करतले... एक नवोच संवसार घडयतले... ह्या हावेसान ते मुस्तींतले देशांतले सगळे तरणाटे पेटिल्ले. ह्या वातावरणाचो म्हजेर परिणाम जाले बगर कसो रावीत आशिल्लो? सतरा ते बावीस मेरेनची पिराय ही म्हजी. 'हांवूय जग बदलतलों' हे तरेचो हावेस काळजांत जागो जालो. देश स्वतंत्र जाल्लो पळेलो. पुणून तेच बरोबर देशाची फाळणीय जाल्ली पळेली. फाळणे बरोबर मनशांतलो देंवचार हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय जमातिंचे गोमटेर बसून तांकां एकामेकांच्यो गोमट्यो कातरूंक लायता तो पळेलो. ह्या होमखणांत महात्मा गांधींची आहुतीय पडिल्ली पळेली... कोणाचें खंय चुकलें, कोण खंय घाळ उरले, खंय फटवले, ह्या प्रस्नांची चौकशी करप, सोद घेवप, प्रस्नांची जाप सोदून काडप, हें म्हजें तेन्ना सावन एक passion जावन पडलें. एक 'पिशें' जावन पडलें. हे चौकशेंत जें कितें होलमलें तें दुसऱ्यांक सांगपाक मन तळमळूंक लागलें आनी हांव बरोवपाक लागलों. बरयतां बरयतां म्हज्यांतल्या साहित्यकाराक केन्ना जाग आयली, लक्षांतूच आयलें ना. साहित्यकारान तकली वयर काडिल्ली पळेली तेन्ना खासा म्हाकाच अजाप जालें. 'हाका पोसवण दिवंक जाय' अशें दिसपाक लागलें. हाका लागून, जें बरयलें तातूंत, उपरांत, लालित्य काय कितें म्हणटात तें येवपाक लागलें. मागीर, पळेल्ल्या देखाव्यांच्यो, थळांच्यो, व्हड मनशांच्यो, कांय खोल अणभवांच्यो खबरीय सांगपाक लागलों. आनी हांव निबंधकार – essayist जालों. लळीत गंभीर निबंध बरोवपाक लागलों. **जाग** म्हयनाळें सुरू जावंक नाशिल्लें जाल्यार इतलें बरोवन जावचेंच नाशिल्लें. 'जागा'

खातीर म्हाका म्हयन्या म्हयन्याक कितेंय तरी बरोवचेंच पडटा. बरोवपाक विशय सोदूंक खंयच वचचें पडना. आपशींच ते मुखार येवन उबे रावतात... साहित्यकारांत म्हाका खंयच्या वर्गणांत आसपावन घेवचो ह्या प्रस्नाक अनमननासतना म्हज्यान जाप दिवं येता – निबंधकारांच्या वर्गणांत आसपावं येता.

**तुमी आपणाक पत्रकार म्हणटात. बरें आसा. पुणून 'उजवाडाचे सूर', 'हिमालयांत', 'ब्रह्मांडांतलें तांडव', 'महाभारत – एक अनुसर्जन', 'वेळे वयल्यो घुलो', 'सांगाती', 'तथागत' सारकेलीं तुमचीं पुस्तकां पत्रकाराचीं मानपाचीं काय तीं तुमच्यांतल्या साहित्यकाराचीं मानपाचीं?**

म्हज्यांतल्या साहित्यकाराक जाग हाडली ती म्हज्यांतल्या पत्रकारान. साहित्यकाराक जाग येतकूच तो म्हज्यांतल्या पत्रकाराचेरूय आपणालो प्रभाव घालपाक लागलो. **समिधा** पुस्तकांतले निबंध, विशयांचे नदरेन, हरशीं, पत्रकारी साहित्यांत मोडपाचे. पुणून ते साहित्यकाराच्या निबंधांत मोडपाक लागले. साहित्यांत ललित निबंध नांवाचो एक फॉर्म आसा. ललित निबंध म्हळ्यार आप-उक्तावणेचीं बरपां. हांवें ह्या फॉर्मांत इल्लो बदल केलो. म्हाका उकतावचे परस जो विशय हातांत घेतला ताचीं वेगळीं वेगळीं आंगां उकतावपाक लागलों... म्हाकाच उकतायत राविल्लों जाल्यार ती निखटी बडबड जातली आशिल्ली... हांव कितें सांगतां ताचे परस 'कोण हें सांगता' हाचेर वाचप्यांचें लक्ष केन्द्रीत जातलें आशिल्लें... म्हूण, कितें सांगूंक सोदतां ताचेरूच चड लक्ष दिवपाक लागलों. सांगता आसतना मदीं मदीं अवांतर गजालीय सांगपाक लागलों... हाका लागून निबंधांचो म्हजोच एक फॉर्म आपशीं मुखार सरलो.

**तुमच्या निबंधांचेर कोणाचोय प्रभाव आसा व्हय?**

प्रवास वर्णनांचेर काकासायबांचो प्रभाव आशिल्लो एक दीस म्हाकाच दिश्टी पडलो. म्हळें, हें अनुकरण जालें... आनी 'अनुकरण एटले मरण' हें हांव काकासायबां कडल्यानूच शिकिल्लों. ह्या प्रभावांतल्यान म्हाका मुक्त जावपाचें आशिल्लें. म्हूण प्रवासवर्णनाची नवी शैली होलमऽसर प्रवासवर्णनां बरोवप ना अशें थारायलें. चीनांत पळेल्ल्या 'तुन हुआंग' होंवऱ्यांचें वर्णन वेगळे तरेन करपाचो हालींच हांवें यत्न केला. तरूय म्हाका जाय आशिल्लें तशें तें जावंक ना. झेन बुधिझम्चो प्रभाव जपानी जिविताचेर खूब पडला. इकेबाना, चा-नो-यू, म्हळ्यार, flower arrangement, tea ceremony असल्या तांच्या चालिंचेर, चित्रकलेचेर, बागवानिचेर कितल्याश्या आंगांचेर, चीना परस चड पडला... ह्या निमित्त्यान अजंठ्यांच्या होंवऱ्यांचेर, सारनाथ, नालंदा, राजगीर, बोधिगया ह्या थळांचेर बरोवन बुद्धमत्ताचो कलेचेर जाल्लो परिणाम दाखोवपाचो यत्न करचो येवजिल्लो. अजून कांयच बरोवंक पावूंक ना... जाता कितें जाणा, कितें कितें बरोवपाचें उरलां हाचेर येवजितां तेन्ना मनान हांव तीस पस्तीस वर्सांचे पिरायेचो जातां... पाउणशीं जाल्यांत म्हणपाची चत्रायूच उरना... **समिधां**त आयल्यात तसले शें देडशें निबंध अजून पुस्तकां रुपान येवपाचे आसात. म्हाका दिसना, म्हज्या ह्या निबंधांचेर कोणाचे शैलिचो प्रभाव आसत म्हूण, कोणाचें हांवें अनुकरण केल्लें आसत म्हूण. हांचो फॉर्मूय म्हजो... शैलीय म्हजी. हांवें इतले निबंध बरयले... अजुनूय बरयतां ताचीं दोन कारणां आसात. 'जागा' खातीर म्हाका बरोवचेंच पडटा. 'जाग' बरींच वर्सां चलूंक जाय अशें म्हाका दिसता. पंचवीस वर्सां चल्लें. आनीक पंचवीस तरी वर्सां तें चलूंक जाय... चलतलें. चलोवपी आसा... जागा खातीर बरयतां तें म्हयन्या म्हयन्याक... दोन तिनूच निबंध. पुणून मुदलांतलों हांव एक ऍक्टिविस्ट... रासवळ मळार धुमशेणां कांडीत आयिल्लों मनीस. १९४६ पसून १९८० मेरेनच्या काळांत म्हजें जिवीत एके तरेच्या झुजा मळार गेलां... वेदान्ती भाशेंत सांगचें जाल्यार, 'अखंड कर्मयोगां'त खर्चलां... हांव रासवळ मळा वयलो कडेक सरलों, तरूय पिंड बदलूंक ना. तो तसोच उरला. तो अजून आदले वरीच फुरफुरून येता. कुडिच्यान कांय जायना म्हणपाचें मनान पळेलें तेन्ना ताणें लिखणी हातांत घेतली. आनी ताणें मराठींत 'स्वगत' बरोवपाक सुरवात केली. अठरा इकुणीस वर्सां सप्तका सप्तकाक 'स्वगत' बरयत रावलों. 'स्वगता'न कोणाक कितें दिलें, खबर ना. केन्ना केन्ना कोण मेळटाले आनी 'आमी तुजें स्वगत नेमान वाचतात' म्हूण सांगताले. केन्ना कोण पत्रां बरोवन धाडटात. कांय पत्रां छापुनूय आयिल्लीं. तेन्ना, बरेंऽ दिसता. कोण मेळपाकूय मुजरत येताले. अजून हांव ऍक्टीव आसां... पयलीं भाशेन नासूं, नव्या रुपान आसां, अशें दिसतालें. 'स्वगता'न वाचप्यांक कितेंय तरी दिलांच आसतलें. पुणून ताणें खासा म्हाका दिलां तें थोडें म्हणूं येना. ताणें म्हजेच विचार स्पश्ट करून म्हाका दिल्यात. म्हाका एके तरेन घडयला म्हळ्यार जाता. ह्या 'स्वगता'न म्हज्या निबंधांक एक रूप दिलां. त्याच फॉर्मांत आनी तेच शैलींत हांवें कोंकणींतले निबंध बरयल्यात.

**'स्वगता'चें पुस्तक काडचें शें केन्ना दिसलें ना?**

हजार देड हजार स्वगतांतलीं हजार 'प्रासंगीक' म्हूण भायर उडयलीं जाल्यारूय पुस्तक रुपान येवपा सारकीं पांचशीं तरी स्वगतां मेळटलीं. धर, दोनशीं. तांचीं तीन चार पुस्तकां जावं येतात. पुणून, 'आमकां पुस्तकां तयार करून दी, आमी छापतात' अशें सांगपी एकलोय मराठी प्रकाशक म्हजे सरीं अजून पावूंक ना. कसो येतलो? 'मराठी द्वेष्टो', 'महाराष्ट्र द्वेष्टो' न्हय तर हांव? असल्या मनशागेर हांच्यांतलो कोणूय पावलो जाल्यार शनिवारवाडो कोंसळून पडटलो... जाग प्रकाशन मराठी पुस्तकां छापिना. सोड, मराठी बरपावळींत आतां मेरेन जायत्या जाणांनी रद्दिचीच भर घाल्या. 'स्वगता'च्या रुपान हांवेंय थोडी घाल्या अशें मानुंया.

---

# पडसाद

भौ. संपादपी
जाग म्हैनाळें

सप्रेम नमस्कार,

प्रा. माधवी सरदेसाय हांणी पुरैतांक लागून मराठी गोंयांत पावली जावये, अशें म्हळां (पळेयात, 'डायग्लॉसिया', दुसरी खिस्त, जाग, फेब्रेर २०००). पुरयत (पुरैत) हे चड करून सारस्वत बामणांच्या समाजांतच आसात. दर एक सारस्वत बामणांच्या घराण्याचो पुरैत थारायल्लो आसता. हो पुरैत त्या त्या घराण्यांतल्या देवकाऱ्यांक, म्हाळांक, श्राद्धांक, मुजीक तेच परी लग्नकार्यांक येवन, त्या त्या कार्याचें देवस्पण वा धर्मविधी करता. हे पुरैत सारस्वत बामणच आसतात. ह्या पुरैतांक आमी बामण भट म्हण्टांत. आज ह्या बामण भटांच्या भुरग्यांक भटपणाची लज दिसूंक लागिल्ल्यान, ते चाकरी वा धंद्यांफाटल्यान लागल्यात. ताका लागून, आमच्या देवळांनी, रामनाथाचें देवूळ सोडून, काराडे भट पावल्यात. हे भट पुजा बी केल्या उप्रांत सांगणें करतना मराठीन करतात.

गोंयांत मराठी हाडली सारस्वत बामणांनी. गोंयचें स्वतंत्र अशें राज्य

केन्ना जालें ना. शेंकड्या शेंकड्यांनी आमी दुसऱ्यांचे सत्तेखाला वावुरले. ताका लागून, आमी आत्महीण आनी फांपरमुठकेच उल्ले. आमी आयतेंकार मानाय जाले.

१६४७ वर्सा 'कोंकण महात्म्य' बरोवपी कवी म्हण्टा : **कानडी लिहिणे कोंकण बोली॥ येथ हेमाडपंती नव्हती बोली॥ विजापुरीं म्लेंच्छ राजसत्ता आली॥ तेव्हां कोंकणासी आली काबिजादी॥५॥ कोंकणास ठाणें बैसली॥ त्या पासोनी हिंदवी प्रगटली॥ मग महाराष्ट्र ब्राह्मणीं आणली॥ ग्रंथरचना संतांची॥६॥ तेथोनी कोंकणासी महाराष्ट्र ग्रंथ॥ नामदेवी आदिपर्व भारत॥ आणि कृष्णदास मुग्दुलीकृत॥ युद्धकांड रामायणासी॥७॥'** हाजे वेल्यान सणसणीत सिद्ध जाता कि, मराठी ही गोंयची वा कोंकणाची भास न्हंय. ती हांगा आमी – बामणांनी – इतिहासीक कारणाक लागून हाडली. इतिहासीक कारणाक लागुनच राखली. ती आमची निजाची भास न्हंय. ती आथवी, अडेची.

बरें मागून
तुमगेलो नम्र
**पांडुरंग भांगी**

## A Note on the Konkani Language Movement

With the ability to speak homo sapiens establish their species specificity. All languages are basically used for speaking. The spoken form of language is the most natural and original form of language. The other form of language is evolved later. Musical intonation, sound system, phono aesthetics, onomtopoetics, emphatic reduplicatives etc. are features which liven up the spoken form of language. Spoken form has the strength of a whole lot of socio-cultural material. It, along with all the gestural communication conveyed through hands, eyes and facial musculature movements becomes a crucial and an inseparable part of human beings. To this 'nature' of human beings culture is added. Invention of writing systems is an astonishing cultural feat by which sign systems and semiotics of language are made to function hand in hand. Once the writing systems were invented there was no turning back for then on man used his language for highly advanced intellectual thoughts: grammars were written, lexicons were compiled, knowledge was documented, so on and so forth. From folk songs and oral story telling to creative writings language came a full circle.

Culture for converted Konkani speakers was in a way a stumbling block in the growth of Konkani. First of all foreign dominance killed the urge for forming the script and secondly growth of the language which depends much on the written form never began. When the other NIA languages were constantly receiving lexicon from the Sanskrit fountain-head (with continuous borrowing and continuous 'tadbhavikaran – तद्भवीकरण – of 'tatsama's – तत्सम), Konkani without her own written form surely got arrested in such enriching endeavours. The other dominance came from Marathi. Being in the closest contact with Konkani, socially, culturally and religiously Marathi almost **engulfed** Konkani. Another simultaneous dominance (colonial and post colonial) came from English which was and is the language of power (this factor applies to all languages of the third world). But no NIA language was simultaneously dominated by three languages. This **triple dominance** story of Konkani is an unfortunate and sad story of how a language was forced to stagnate. Konkani was side tracked and as one would expect, remained a neglected language (?). Many from the educated public even today consider her a mere dialect!

Hence Konkani becomes a special case for language movement. The term 'language movement' here implies that the language speakers/users are in a compulsive situation from where they have to make a conscious effort for:

1. removing the illusion of being considered as a 'dialect' of Marathi,

2. drawing the language out of the triple orthographic grip – Kannada, Malayalam (Dravidian languages) and Roman (European languages) and unanimously selecting Devnagari with the required phonological modifications,

3. forming solidarity through linguistic identity,

4. establishing as a modern literary language vis-a--vis the other NIA languages,

5. publishing newspapers and magazines,

6. publishing plentiful educational material for schools and colleges (which is stringently screened),

7. encouraging and supporting creative writing,

8. and the last but not the least, creating linguistic awareness.

**Dr. Bharati Modi**
Baroda, Gujarat

(वडोदऱ्याच्या महाराजा सयाजीराव विद्यापिठांतल्या भास विज्ञान विभागाच्यो आदल्यो मुखेली)

# विश्वविख्यात नांक

बरोवपी : वायकम मुहम्मद बशीर

अणकार : आर. के राव

आश्चर्य चकित करची व्हड गजाल. बुधवंत आनी ज्ञानवंत हांचे मदें एक नांक व्हड तर्क विषय जालां. विश्वविख्यात नांक.

ते नांकांचो यथार्थ इतिहास हांगा बरयतां.

ताका चोवीस वर्सां पुराय जावचें पिरायेचेर ते नांकांचो इतिहास प्रारंभ जाता. तेन्ना पर्यन्त ताका कोणेय ओळखना आशिल्ले. हे चोवीसावे वर्साक कांय विशेषगुण आसा की कितें? एक बरोबर आसा. विश्व इतिहासाचीं पानां परतून पळयल्यार चडान चड महापुरुषांगेले चोवीसावें वर्साक कांय विशेषगुण दिश्ट पडतले. इतिहासाचे विद्यार्थ्यांक हें विशेष करन सांगचें ना मू.

अमचो इतिहास पुरुष एक रांदपी आशिल्लो. स्वयंपाकी. सांगचाक योग्य बुधवंतकायो कांय नाशिल्ल्यो. बरप-वाचप कांय कळना. स्वयंपाकघर ताचो लोक. ताचे भायरचे कार्यां पासून निपट लक्ष दिवप ना. कित्याक लक्ष दिवुंक जाय?

बरे रूचान जेवप, सूखान पूड वोडप, निंदप, परतून जाग जावप, रांदप शुरू करप हे ताचे नित्यक्रम. म्हयन्यांचें नांव ताका कळना. वेतन घेवंचाक वेळ जातर आवय येवन वेतन घेवन वतली. पूण जाय जाल्यार ती आवस घेवन दितली. अशें सुखान भोव खोशीन जीवन करचे काळार ताका चोवीस वर्सां पूर्ण जातात. ताका लागून अजापी घडणूक घडता!

वेगळे विशेष गुण कांय ना. नांकाक स्वल्प दिगाय दवरल्या. तोंडय जावन व्होणूव पर्यंत दीग जाल्यां!

तशें तें नांक दिसान दीस दीग जावंक लागलें. निपोवन दवरचाक साध्य जावचीं कायरीं की? एक म्हयन्या भितर नांक बोंबली पर्यंत दीग जालें. पूण कांय पीडा आसा व्हय? तेंवय ना. श्वासोच्छ्वास कर्येत. पूड ताणयेत. घाण परमळ वेगळो कळता. सांगचे योग्य कांय कश्ट नात.

पूण असलीं नांकां लोकइतिहासाचे पानांत आसयेत – एदें तेदें. पुण तसलें अजापी नांक की हें नांक? हे नांकां निमित्तीं ते गरीब रांदप्याक तागेले धंदा साकून सांगून धाडलो.

कारण कितें?

सांगून धाडल्या बावराड्याक परतून धंदाक काडुंक जाय अशें म्हण गोंदळ घालचाक कोणय मुखार आयले नात. राजकीय पक्षांनी हे अन्याया मुखार दोळे धांपले.

'कित्याक ताका सांगून धाडलो?'

मनीश हितकारक म्हणचे कोणेय हें प्रश्न विचारलें ना. खंय गेले तेन्ना हे बुधवंतय ज्ञानवंतय?

दुर्बळ धंदेली गरीब रांदपी!

काम कितें पसावत नष्ट जालें हें कोणेंय ताका सांगून समझावंचें ना. कामाक रावयल्ले घरकारांक मनांक शांति ना, हेंच कारण. नाकदाराक पळवंचाक, नाक पळवंचाक, रात दीस मनीश सागर!!! फोटो काडपी, मुखार देखून उलोवपी, रेडियो सिनेमा, टेलिविजन, समाचार पत्रांचे संपादक, अशें गाजचो मनीश-सागर.

ते घरां साकून जायतीं पदार्थां फारन गेलीं. एक सुंदरी चेडुवाक फारून घेवन वचाकय प्रयत्न जालो.

हे प्रकारीं काम नष्ट झालेलो तो रांदपी आपणाले गरीब खोमटांत उपाशी पडचे वेळार एक कार्य ताका समझलें. तोवय तागेलें नाकय व्हड ख्याती पावल्या म्हण!

दूरदेशां साकून ताका देखचाक लोक येता. व्हड दीग नांक पळवन विस्मयस्तब्ध रावतात. कांय जाणं आपडून पळयतात. पूण कोणेय... कोणेय 'तुमी कांय खेल्लें व्हय? इतली थकणी कित्या?' अशें कांय कोणेंय विचारलें ना. एक फांता ओडचाक पूड घेवंचाक ते घरांत एक पैसोय ना. उपाश घालेलें अजाप जनावर तो व्हय? मूर्ख जाल्यारीय मनीश मू तो? ताणें ताचे म्हंतारी आवयक उलो दीवन म्हळें :

'हे शिस्तहीन मनीसांक आंबडून भायर घालन कवड बंद कर!'

आवयन उपायानी सगटांकय भायर घालन कवड बंद केलें.

तो दीस साकून तांकां बरो काळ जालो! आवयक लांच दीवन कांय जाण पुताचें नाक पळवुंक लागले. जनं मूर्ख न्हय? हे लांचाक बदल कांय नीतीनिष्ट जन बुधवंतय ज्ञानवंतय व्हड आवाज केलो. पूण सरकारान हाचे संबंधी कांय कामकाज केलें ना. आयकलें म्हणूय दाकयलें ना. हे महा अनास्थेक निषेध करन जायते प्रतिवादी सरकाराक विरोध करचे नासधूस करचे पक्षांत मेळ्ळे.

नाकेदाराची येणावळ दिसान दीस वाढत आयली. कितें चड सांगचें! तो मूर्ख रांदपी स वर्सां भितर लखपती जालो.

ताणें तीन फान्ता सिनेमांत अभिनय केलो. 'दी ह्यूमन सबमरीन' नांवाचे विशिष्ट कलाविषयक बहुरंगी सिनेमांत कोटी लेकान लोकाक आकर्षून घेतले! अंतरवाहिनी-मनीश! स महाकवींनी नाकेदाराची स्तूती करन म्हाकाव्यां रचून उजवाडायलीं. णव म्हा साहित्यकारांनी नाकेदाराचे जीवनाचो इतिहास रचून धन आनी नांव कमायलें.

नाकेदाराचें घर एक अतिथि मंदिरय जालें. कोणाकय थंय केन्नाय आहार आसा. एक वेळे हुंगूक पूडीय.

ते काळाक ताका दोग चिटणीस आशिल्ले. दोग सुंदर विद्यावतीयो.

दोगंय नाकेदाराक प्रेम करतात. दोगय नाकेदाराची आराधना करतात. कसलेय मूर्खाकय कसलेय व्हड चोराकय, कसलोय द्वेष करप्याकय प्रेम करचाक सदा सर्वदा सुन्दर चेडुवां आसतलीं मू.

लोक इतिहासाचीं पानां परतून परतून पळयल्यार दोगं सुंदर बायलो एकच समयार एक दादल्याक मोग केल्यार चिलवाण गुस्पण्यो जातल्यो

मू. नाकेदाराचे जीवनांतय तशें जालें.

ते दोग सुंदरी चेडुवां गदी, जनंय सग नाकेदाराक मोग करतात. बोंबले फोण्डां मरान दीग संसार भरन विख्यात सुंदर नांक महत्वाचें निशाण न्हय की? खरोखर.

लोकांत जावंच्यो घडणुका संबन्धी नाकेदार आपणालो अभिपिराय सांगतलो. समाचार पत्रांचे संपादक तो उजवाडायतले.

एक वराक १०,००० मील वेग आशिल्लें विमान निर्मलां! ताचे पसावत नाकेदारान सकल बरयले सारकें निवेदन केलां...!'

'अंतरले मनीशाक डाक्टर बुन्दरोस फुरासिवुरासान जीव दिलो. ताचे पासून नाकेदारान सकल दिल्ले प्रकारीं निवेदन केलां...'

लोकांतली चडान चड उंचीचे पर्वत शिखराचेर कांय जाणं चडले म्हण आयकचाक जनानीं विचारलें:

'ताचे पासून नाकेदारान कितें म्हळां?'

नाकेदारान कांय म्हळेंना जाल्यार... आ... ती घडणूक निरर्थक. अशें भूमण्डल यात्रा, संसाराची उत्पत्ती, रंग दिवप, घडियाळाचे ब्यार, मोहिनी प्रयोग, फोटोग्राफी, आत्मो, प्रकाशघर, कादंबरी रचणाय, मरणोत्तरजीवन पत्रकारिता, शिकार — मात्र न्हय. सगटाचेय पासून नाकेदारान अभिप्राय सांगुक जाय. सांगतलो मू. नाकेदाराक कळनातिल्ले संसारांत कांय आसा न्हय? एक सांग!

हे नियतकालार नाकेदाराक वोडून ताण्डून काडचाक व्हड गुपीत मसलतो जातात. वोडून ताण्डून काडप नवेंच कांय न्हय. वोडून ताण्डून काडचो आसा संसाराचे इतिहासाचो चडान चड भाग.

वोडून ताण्डून काडप म्हळ्यार कितें?

तुमी नापीक भूंयचेर कांय शरश्यो रोयतात. शिंपतात. सारें घालतात. वोय बांदतात. प्रतिक्षेचीं वर्सां जालीं. शरश्यो व्हड जावन तांचेर फळां जालीं. बरे नाल्लां पोंड्यो लांबतात. त्या वेळार ते माडच्या बागां तुमचे साकून बलातकारीं घेवंचाक कोणाकय अति इत्सा आसयेत! नाकेदाराक वोडून ताण्डून आपणाव्या!

पयलेच नाकेदाराक बलात्कारीं आपणावंचाक सरकारन एक क्रान्तीचो प्रयत्न केलो. तें सरकाराचो एक उपाय आशिल्लो. 'नाकेदारांत प्रमूख' म्हळेली एक पदवी मात्र न्हय, नाकेदाराक सरकारान एक पदकय दिलें. राष्ट्राचे अध्यक्षान (राष्ट्रपतीन) वज्रांकित तें पदक नाकेदाराचे गोवटेक घालें. आनी मागीर हस्तांदोलना जागीं राष्ट्रपतीन नाकेदाराचे नांकाचे तलव धरन हालयलें. हाचे सग वृत्तांताचें 'रीळ' गांवभरचे सिनिमाघरांत आनी दूरदर्शनांत प्रकटायलें.

ताचे भितर राष्ट्रीय पक्षाचो लोक उत्साहान मुखार आयलो. जनांगेले महान झुझाक समतावादी नाकेदारान मुखेलपण दीवुंक जाय! समतावादी नाकेदार! कोणाचो सखा, कित्याचो सखा? म्हाजे देवा! दुर्बळ नाकेदार... नाकेदार पक्षांत मेळुंक जाय!

खंयचे पक्षांत?

पक्ष जायते आसात. लक्ष्य क्रान्ती. जनांची क्रान्ती. सग जनांगेले क्रान्ती पक्षांत नाकेदार कशें मेळतलो?

नाकेदारान म्हळें:

'हांवें पक्षांत मेळका कित्याक? म्हाजान साध्य न्हय!'

तशें आसतना चिटणीसांतली एकलेन म्हळें:

माका मोग करता जाल्यार सखा नाकेदारान म्हाजे पक्षांत मेळूंक जाय!

नाकेदार चुप रावलो.

'हांवें खंयचाय पक्षांत मेळुंक जाय की?'

नाकेदारान दुसरीलागीं विचारलें. तिका कायरीं समझलीं. तीणें म्हळें:

'ओ, कसल्याक?'

ताचे भितर एक क्रान्तीकारी पक्षान जयघोष उलो दिलो.

'आमचो पक्ष नाकेदाराचो पक्ष! नाकेदाराचो पक्ष जनांचो क्रान्ति पक्ष!'

हें आयकचाक दुसरे क्रान्ति पक्षाचे लोकांक कोप आयलो. ताणी नाकेदाराचे चिटणीसांतले एकले करान नाकेदाराक विरोध जावन एक भयानक निवेदन दीवयलें:

'नाकेदारान जनांक फटयलो! प्रतिगामी मध्यवर्गाचो मनीश तो. इतः पर्यन्त नाकेदार जनांक फटयतालो. हे भयनाक फटवणेंत म्हाकाय मेळयली. म्हाका मनःताप आसा. हांव जनांक खरें समझायतां. नाकेदाराचें नांक निपट रबराचें नांक आसा!'

हू! हें निवेदन संसारांतले सग समाचार पत्रांनीय उपवाडायलें. नाकेदाराचे नांक रबरू नांक! महा मध्यवर्गाचो नाकेदार. चोर. फटवपी. महा प्रतिगामी. ठेठ नांक न्हय!

हें आयकल्यार जनपदा मदें गोंदळ जायनातिल्लें रावचो कशें? लोक खबदळवना कित्या? ठेठ नांक न्हय की? न्हय! संसाराचे भिन्न भिन्न भागां साकून तार, दूरभाषी समाचार, बरपां! राष्ट्रपतीक शान्तीन बैसचाक साध्य जायना.

'जनांक फटोवपी रबर नाकेदाराक नाश येवो. रबर नाकेदाराचो चोर प्रतिगामी पक्ष ना जावो! इन्कलाब जिन्दाबाद!' हें निवेदन नाकेदाराचे प्रतिपक्षान उजवाडावंचाक दूसरो क्रान्तिकारी पक्षान दूसरी सुन्दर चिटणीसा करान निवेदन उजवाडावयलें.

'मोगाचे गांवकरांनो, संसाराचे लोकांनो!', तिणे म्हळेलें सर्वय फटी आसा. तिका समतावादी नाकेदारान प्रेम केलोना. ताची जाळकाय. समतावादी नाकेदाराचें धन आनी ख्यात वोडून ताण्डून काडचाक ती प्रयत्न पावली. तिचे भावांत एकलो दूसरे पक्षांत आसा. चोरांचे ते पक्षाक नागडे करन दाकोवंचाक हांव हे संदर्भाचो उपयोग करतां. हांव सखा नाकेदाराची इमानदार चिटणीस आसा. माका सारकी कळता. सखाचें नांक रबराचें न्हय. म्हाजे हृदया बराबर निपट ठेठ. फटवण ना. मंत्र ना. तंत्र ना. अनुकरण न्हय. ठेठ म्हाजे हृदया सारखे. भरपाईची इत्सा नातिल्लें हें संकटाचे समयार सखा नाकेदाराचे पक्षांत मेळेल्या जनांगेलो क्रान्ति पक्ष जिन्दाबाद! सखा नाकेदार जिन्दाबाद! सखा नाकेदाराचो पक्ष जनांचो पुरोगामी क्रान्ति पक्ष! इनकलाब जिन्दाबाद.

कितें करतले? जनांक मनांत एक गोंदळ. ताचे मदें नाकेदाराचे क्रांतीपक्षाचे प्रतिक्रान्ती पक्षाचे लोकांनी सरकाराकय, राष्ट्रपतीकय, प्रधानमंत्रीकय सोवंचाक शुरू केलें.

'मूर्ख सरकारान रबर नाकेदाराक, लोकाक फटयतल्याक 'नासिक मुखेल' नांव दिवन वज्रांकित भांगरा पदक दिलें. जनाक अशें फटयल्यांत राष्ट्रपतीक आनी प्रधानमंत्रीक वांटो आसा मू. हें भयानक कपट प्रबंधांत एक पक्षांतर आसा. राष्ट्रपति आनी प्रधानमंत्री दोगांनीय राजीनामो दीवुंक जाय! मंत्रीमण्डलीन राजीनामो दीवुंक जाय! रबर नाकेदाराक जीवनाशीं मारूंक जाय!'

हें आकयचाक राष्ट्रपति खवळलो. प्रधानमंत्रीय खवळलो. एक दीस फाल्यार सैन्य आनी रणगाडीयो दुर्बळ नाकेदाराचे घरा भोवंतणी आयलीं. नाकेदाराक पोलीसाच्या ताब्यांत काडलो.

मागीर थोडे दिसांक नाकेदारा पासून कांय खबर ना. जनं ताका विसरलें. सग शांत. पूण प्रत्यक्ष हायड्रजन, आट्टम, नूक्लियर हीं आयलीं. कितें म्हळ्यार जनांनी विसरचाक राष्ट्रपतीचो एक लान जयघोष जालो.

'मार्च णवावे तारीकेक नाकेदार मुखेलाक सार्वजनिक तपास करतले. नांक ठेठ व्हय की? ४८ राज्याचें प्रतिनिधी कुशल डाक्टर नाकेदाराक पळयतले. लोकांतले सर्वय समाचार पत्रांचेय प्रतिनिधि आसतले, रेडियो सिनेमा, टी.वी. सर्वय आसतले. हो तपास सर्वय गावंकारांक 'वृत्तांताचे

रीळां'त देखचाक साध्य जातलें. जनं शांतपणान रावात.

जन गाढव न्हय की? ठेठ मूर्ख, क्रांतीकारक. तें शांत जालें ना. ते राजधानी शारांत मेळे. खाणावळींत बलात्कारीं प्रवेश जालें. दिसाळ्याचीं कार्यालयां मोडून घालीं. सिनेमा घरांक उजो घालो. सरकाराचीं घरां मोडून उडकायलीं. जातीचो अक्रम जालो. जायते जाण हें नाकेदाराचे झुजांत रगतासाक्षीगार जाले. मंगळ, शांत जालें.

मार्च णव तारीख. वरां इकरा जावंचाक राष्ट्रपतीघराचे मुखार एक मनीश-महासागर दिसलो. तेन्ना ध्वनिक्षेपक यंत्र लोकांकडे उलवंचाक लागलें. जनांनी शिस्त पालन करूक जाय. उलवंचाक नज. तपास शुरू जालें.

राष्ट्रपती, मुखेल मंत्री आनी दूसरे जायते मंत्र्याचे मुखार डाक्टर नाकेदाराचे भोंवतणी मेळ्ळे... जनं सर्वय चिंतातुर! श्वास धरन रावलां!

एक म्हा डाकुटरान नाकेदाराचें नांकां तलव धांपलें. आनी एकल्यान अल्पीन काडून नांकांचे तलवार थोंबली. ते समयार गजब जालें. नाकेदाराचे नांका तलवार एक थेंबो तांबडें रगत फुटलें.

'नाकं रबराचें न्हय! अनुकरण न्हय! ठेठ सुरवातीचें.' डाकटरांनी सर्वय मेळन निर्णय केलो.

नाकेदार सायबाचे चिटणीसान ताचे नांकांचे तलवाक दामून चुंबन केलें.

'सखा नाकेदार जिन्दाबाद! नाकां मुखेल जिन्दाबाद! नाकेदाराचो पुरोगामी जनां पक्ष जिन्दाबाद! जनाब नाकेदाराचें नांक ठेठ मूळचें! मूळचें! मूळचें!

ब्रह्मांड भेतचे गदी आवाज! मूळचें! ठेठ मूळचें!

हो आवाज शांत जावंचाक राष्ट्रपती म्हाविद्यावंतान एक नवें कायरें किलें. सखा नाकेदाराक 'मूक्कश्री' पदवी दीवन लोकसभेंत नामनिर्देश केलो!

मूक्कश्री मूक्कन एम्.पी.!

दोन तीन विद्यापीठांनी नाकेदाराक एम्.लिट्., डी.लिट्. पदवी दीवन मान्य केलो.

नांकां श्री नाकेदार – मास्टर ऑफ लिटरेचर!

नांकां श्री नाकेदार – डाक्टर ऑफ लिटरेचर!

तरीय मूर्ख गाढव जन. मूर्खांचें शासन सरकार!

तांका श्री नाकेदाराक मेळनातिल्ले सुंदरीचो पक्ष एकमेळीन म्हणूय, बरवनूय, भाषण करनूय भोंवतात. राष्ट्रपतीन राजीनामो दीवुंक जाय, मुखेल मंत्रीन राजीनामो दीवुंक जाय! मंत्रीमंडळीनय राजीनामो दीवुंक जाय. जनां फसवेगिरी! नाकेदाराचें नांक रबरा नांक! मूळचें न्हयींच न्हय.'

क्रान्तीची चलवण पळेयात!

बुधवंत, तत्त्वज्ञानी – कितें करतले? मनांत गोंदळ जायनातिल्ले रावतलो व्हय?... घडणूक विश्वविख्यात नांक.

* * *

---

# 'क्या बोलती तू ?... आती क्या खंडाला ?' — धारावींतली 'बाजारी हिन्दी'

माधवी सरदेसाय

*'पुरा गांव में बोमडी मारके फिरता साला', 'अरुणा इराणी बडा बिनधास काम कियेला है', 'खालीपिली कायकू झगडा करता ?', 'उसकू ऐसा बात बोलू नको', 'वो मेरेको छुरा बताया', 'साला पिक्चर भंकस है', 'मेरेकू ये काम जमेगा नय', उसको भूत (बहुत) तकलीफ होयेगा', 'तुमकू क्या मंगता इदर रे ?', 'क्या बोलती तू ?... आती क्या खंडाला ?'...*

ही 'बंबइया हिन्दी' – मुंबयची 'बाजारी हिन्दी' – महानगरांतल्या भौरंगी भौसाची Lingua Franca – संपर्क भास. मुंबय बाजारांत वांटपणां हे भाशेंत जातात. थंयचे रिक्षावाले, टॅक्सीवाले गिरायकां कडेन हे भाशेंतल्यान उलयतात, गिरायकूय तांचे कडेन हेच भाशेंतल्यान उलयता. मुंबयच्या रस्त्यांचेर झगडींय चडशीं हेच भाशेंतल्यान जातात... मुंबय शारांत घोळपी पूण मराठी उलोवंक नकळ आशिल्ले मुंबयकार आमकां कितलेशे मेळटले, पूण थंयची बाजारी हिन्दी उलोवंक नकळ आशिल्लो मुंबयच्या समाजांत घोळपी मुंबयकार मात एकलोय मेळचो ना. 'We are now in the 21st century... English is the only language that matters' म्हणटल्यांक लेगीत मुंबयची हवा 'बंबइया हिन्दी' शिकयतली! इतली ही भास मुंबयकारांच्या जिवितांत 'म्हत्वाची'!

वयले वयल्यान पळेल्यार बाजारी हिन्दी 'अशुद्ध हिन्दी' कशी दिसता. पूण ही 'अशुद्ध' हिन्दीय 'कश्याय कशी' उलयनात. तिचेंय आपणालें खाशेलें व्याकरण आसा.[1] बाजारी हिन्दी हिन्दी भाशेची 'पिज्जीन' (pidgin). हिन्दीचें व्याकरण आनी तिची उतरावळ बेणावन, कापून ल्हान करून आनी हेर भासांची इल्ली उतरावळ आनी व्याकरणाचीं कांय आंगां घेवन तयार जाल्ली भास. वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी लोक एकामेकांच्या संपर्कांत येता आनी तांचे कडेन सगळ्यांक येता, समजता अशी खंयचीच एक भास आसना तेन्ना, सामान्यतायेन वेगळ्या वेगळ्या भासां मदले dominant भाशेची 'पिज्जीन' तयार जाता. बाजारी हिन्दी हे तरेची संपर्काचे गरजेंतल्यान 'तयार जाल्ली' भास. हिन्दी भाशीक वाटारा भायल्या चडश्या भारतीय शारांनी भौसा मदली संपर्काची भास म्हूण बाजारी हिन्दीच चलता.[2] कलकत्त्याचीय संपर्क भास बाजारी हिन्दीच. बंबइया हिन्दी परस मातशी वेगळी. पूण दोनूय हिन्दी पसून घडिल्ल्यो 'पिज्जीन' भासो आनी देखून बांदावळिचे नदरेन 'एकूच' म्हणपा इतल्यो लागिंच्यो.

हिन्दी अशी भारतभर आनी तीय बी अ-हिन्दी वाटारांतल्या भारताच्या भौसांत कशी पावली ? बाजारी हिन्दीच्या पाळां-मुळांचो थाव घेतना जाणकार ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाचो यत्न करतात.[3]. मुंबय हिन्दी राज्यकर्त्यांच्या शेका खाला केन्ना येवंक नासली. उरफाटें, मराठी भाशीक राज्यकर्त्यांनीच कांय हिन्दी भाशीक वाटारांचेर आपणालो शेक गाजयल्लो. होळकर इंदौराक राज्य करताले; शिंद्यांची ग्वाल्हेराक सत्या चलताली; आयच्या बिहाराचे कांय वाटारूय मराठ्यांच्या शेकातळा आशिल्ले म्हणटात. तरी, हिन्दी राजवटिची फाटभूंय नाशिल्लीं मुंबय, कलकत्ता सारकेलीं आयचीं भारतीय शारां बाजारी हिन्दी उलयतात!

बाजारी हिन्दी उर्दूचेंच – 'छावणींतले भाशे'चेंच एक रूप अशेंय एक मत्त जाणकारां मदीं घोळटा. दिल्लीचे मुसलमान राजवटीक लागून उर्दू भारताच्या वेगळ्या वेगळ्या वाटारांनी पावली. (हातूंत आयचो बांगला देश आनी पाकिस्तान हे दोनूय देश आयले.) दिल्लीच्या राज्यकर्त्यांचे सरदारूच उर्दूक विंध्य पर्वता सकयल घेवन गेले. तांगेले उर्दूक मुखार 'दक्खिनी उर्दू' हें नांव पडलें. चवदाव्या शतमानांतले बहामनी राजवटींत आनी उपरान्त पंदरावें शतमान ते सतरावें शतमान मेरेनचे विजापूरचे अदिलशाही आनी गोलकुंडाचे कुतूबशाही राजवटींत दक्खिनीचो स्वतंत्रपणान विकास जालो. आयज कर्नाटकांतले[4] आनी आंध्र प्रदेशांतले मुसलमान आवयभास म्हूण दक्खिनीच उलयतात. गोंयचे आनी महाराष्ट्रांतले भोवसंख्य मुसलमानूय दक्खिनीक आपणाली आवयभास लेखतात. बाजारी हिन्दी आनी दक्खिनी

---

१. पिज्जीन भाशे विशीं अदीक विस्तारान फुडल्या लेखांत.

२. M. V. Sreedhar, Pidgins and Creoles as Languages of Wider Communication, ed. K.P. Acharya et al, Mysore 1987 : Editor's Note, pg. 10.
इंग्लीश भारताची संपर्क भास म्हणटल्यांनी विसरूंक फावना – इंग्लीश भारतांतल्या **फकत धवाड्यांची** – elite वर्गाची संपर्क भास; भारताच्या **बाजारांत** ती अजून खंयच पावंक ना. गोंयांत कोंकणी येना आसतना, फकत इंग्लीशूच जाणा जावन जियेवं येता म्हणटात. असले गोंयकार गोंयांत आसातूय बी. हे गोंयकार नुस्तें कशे मोलायतात आसतले काय ? गोंयच्या नुस्त्या बाजारांत अजून मेरेन तरी इंग्लीशींतल्यान वांटपण करूंक मेळना – केन्नाय म्हाका प्रस्न पडटा... 'दक्षीण भारतांत हिन्दी खंय चलता ? थंयची संपर्क भास इंग्लीश म्हणटलेय फकत वयल्या वर्गाक हिसपांत घेवन उलयतात. दक्षिणेक बाजारांत हिन्दी चलना (हेंय तपासून पळोवंक जाय) जाल्यार थंय खंयची तरी एक द्रविडी भास चलता आसतली. पूण थंयूय बाजारांत इंग्लीश चलना. देखून 'इंग्लीशूच आमची – भारतियूच भास' म्हणटात तेन्ना अजून म्हाका ती 'हांगची भास' – 'आमची भास' दिसना. हेर सगळ्यो भारतीय भासो बाजारांत दिश्टी पडटात. इंग्लीश फकत सुपर मार्केटांत पळोवंक मेळटा!

३. M.V. Sreedhar in K.P. Acharya et al 1987 : 10-12.

४. भटकळ आनी भोंवतणच्या वाटारांतले नवायत मुसलमान हाका आडवाद आसूं येतात.

उर्दू हांचे भितर बांदावळिचीं खूब सारकेपणां आसात. पूण तांचे भितर एक म्हत्वाचें वेगळेपण आसा – दक्खिनी उर्दूचीच एक बोली खरी पूण ती उर्दू पसून घडिल्ली पिज्जीन न्हय. बाजारी हिन्दी पिज्जीन. दक्खिनी केन्नाच पिज्जीन नाशिल्ली. दुसरें, मुंबय कलकत्त्या सारकेल्या शारांनी नोकरे धंद्या निमतान वचून राविल्ले दक्खिनी भाशीक थंय आपणाली भास घेवन गेले अशें मानलेंय जाल्यार थळाव्या लोकांक तांणी आपणाली भास घेवंक लायली हे गजालिचेर विश्वास दवरूं नज – आयज कितलोसो कामगार पोट भरपा खातीर कर्नाटकांतल्यान गोंयांत येता. ताची कन्नड भास शिकपाची गोंयकारांक गरज पडना, गोंयकारांची कोंकणीच तो शिकता.

देखून, एम्.व्ही. श्रीधरां सारकेले भारतांतल्या 'पिज्जीन' भासांचो अभ्यास आशिल्ले जाणकार म्हणटात, बाजारी हिन्दी ब्रिटिशांचे राजवटींतूच केन्ना तरी जल्मा आयिल्ली आसूंक जाय. ब्रिटीश आर्मींत रोमी लिपयेंतले हिन्दी/उर्दूचो वापर जातालो. हे भाशेक रोमी उर्दू म्हणटाले. हे आर्मींत भारतभरचे लोक आशिल्ले. तांणीच ही हिन्दी भारतभर पावयली आसूंक जाय अशें ह्या जाणकारांचें मत्त. श्रीधर सांगतात, आयच्या नागालँडांतूय थळावो लोक आनी आर्मी हांचे मजगतचो भाशीक संपर्क बाजारी हिन्दींत चलता.

भौभाशीक लोकां मजगतची संपर्क भास म्हूण 'बंबइया हिन्दी'चो खरो अणभव मुंबयच्या झोपडपट्ट्यांनी घेवंक मेळटा. मुंबयचो भौस चडसो झोपडपट्ट्यांनीच रावता. देशांतल्या खांची-कोनशांतल्यान नोकरे-धंद्याचे सोदीक मुंबय धांवन आयिल्लो हो लोक मुंबयकार जातना मुंबयची बाजारी हिन्दीय आपणायता. महाराष्ट्रांतल्या गांवगिऱ्या वाटारांतल्यान मुंबय येवन झोपडपट्ट्यांनी रावतले महाराष्ट्राची राजभास मराठी आसतनाय मुंबयची बाजारी हिन्दी शिकतात. तशे, बिहार, उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश सारकेल्या हिन्दी / उर्दू वाटारांतल्यान मुंबय येवन झोपडपट्ट्यांनी रावतले आवयभास म्हूण हिन्दी / उर्दू उलयतले मुंबयकारूय थंयचे बाजारी हिन्दीचें गिन्यान जोडटात.

मैसूरच्या 'केन्द्रीय भारतीय भाषा संस्थानां'त समाजभासविज्ञानाच्या मळार वावर करपी डॉ. के. एस्. राजश्रीन (आदल्यो त्यो पुण्याच्यो माया जोशी) धारावींतले बाजारी हिन्दीचे बांदावळिचो अभ्यास केला[५]. इतलेंच न्हय, धारावी विशिंची भुगोलीक, सामाजीक, सांस्कृतीक, भाशीक आनी थोडी भोव इतिहासीक म्हायती एकठांय करपाक तांणी थंयचो एक pilot surveyय केला.[६] ह्या सर्वेचो रिपोर्ट मुजरत वाचपा सारको. तांगेल्याच अभ्यासाच्या आधारान धारावीची आनी थंयचे मुखेल संपर्क भाशेची – बंबइया बाजारी हिन्दीची वळख हांगा करून दितां.

क्षेत्रफळ, लोकसंख्या आनी गुन्यांवकारी – तिनूय नदरांनी धारावी भारतांतलीच न्हय तर पुराय आशिया खंडांतली सगळ्यांत व्हडली झोपडपट्टी. ३३० एकरांचे हे झोपडपट्टेंत १९८१ मेरेन ३,४४,५३६ लोक रावतालो. हो १९८१तले लोकमेजणेचो डॉ. राजश्रींच्या रिपोर्टांत आयिल्लो आंकडो.[७] म्हळ्यार, वीस वर्सां फाटीं फकत शंबर एकरांचे भुंयेर धारावींत उणोच म्हळ्यार एक लाख लोक रावतालो! आयज धारावीचे भुंये वयलो 'भार' आनिकूय वाडिल्लो आसतलो. १९४४त केल्ल्या धारावीच्या एका सर्वे प्रमाण खंय थंयची लोकसंख्या फकत १६,४१४ आशिल्ली.[८] हाचो अर्थ, स्वातंत्र्या उपरान्तच्या – फाटल्या पन्नास-एक वर्सांच्या काळांतूच धारावीचे लोकसंख्येंत आकांताची वाड जाल्या असो लावं येता.

माहीमचे खाडयेचे देगेर ही झोपडपट्टी आसा. हो 'धारे' वयलो – (खाडयेचे) देगे वयलो – वाटार जाल्ल्यानूच मुखार हे झोपडपट्टेक धारावी नांव पडलां म्हणटात.[९] झोपडपट्टी येवचे पयलीं खंय ही नुस्तें मारूंक वचपी नुस्तेकारांची विसव घेवपाची सुवात आशिल्ली. उपरान्त इल्लो इल्लो करून थंय नुस्तेकारांचो गांव तयार जालो. आयचे धारावींतलो हो 'कोळीवाडो'. धारावींतलो लोक कोळीवाड्या वयल्या लोकांक मूळ धारावीकार मानतात; फाटल्या दोन शतमानां सावन धारावींत नुस्तेकारांची वसती आसा जावंक जाय अशेंय मानतात. शंबर एक वर्सां फाटीं वांद्र्याक एक कत्तलखानो आयलो आनी थंय चामड्याचोय वेपार सुरू जालो. ह्या धंद्या कडेन जोडिल्लो लोकूय धारावींत जागो आशिल्लो म्हूण थंय येवन रावंक लागलो. उपरान्त धारावींतूय चामड्या कडेन संबंद आशिल्ले व्हाणो-बूट करप, पर्सी-पटे करप बी हे सारकेले उद्देग-धंदे सुरू जाले आनी जाती-धर्माचे परंपरेन असल्या वेवसायां कडेन जोडिल्ले हिन्दू भितरले 'ढोर', 'मांग', 'चामार', 'मोची', तशे मुसलमानां भितरले 'खाटीक' बी येवन धारावींत रावंक लागले. हो लोक महाराष्ट्रांतल्यानूच न्हय तर भारताच्या हेर वाटारांतल्यानूय आयिल्लो. १९४४त मुंबय धक्यार एक व्हडलो स्फोट जाल्लो. ह्या स्फोटांत घरदार ना जावन पडिल्लेय धारावींत येवन रावले. उपरान्त गुन्यांवकारांनीय थंय आलाशिरो घेतलो. मजगतीं वाडट्या उद्देगीकरणाक लागून भारताच्या वेगळ्या वेगळ्या वाटारांतल्यान लोकांचे पोंवेच मुंबय येवंक लागले. मुंबय रावंक मेळप कठीण जावंक लागलें. हाका लागून सकयल्या मदल्या वर्गांतलीं कुटुंबांय धारावींत वचून रावंक लागलीं. वेगळ्या वेगळ्या कारणांक लागून मुंबयच्या हेर वाटारांतल्यानूय लोक धारावींत वचून रावंक लागलो. देखीक, आयज मुंबयचो कुंभार धारावींत रावता. तो धारावींत येवन थीर जावचे पयलीं चार फावटीं ताका आपणाली रावपाची सुवात बदलची पडिल्ली – शेजारच्या लोकांक कुंभाराल्या भट्ट्यांचो त्रास जावचो आनी कुंभारां आड कागाळ करून तांणी तांकां थंयचे हालोवंक लावचे!

— हो धारावीचो थोडोसो इतिहास!

आयजूय धारावींत येवन रावपी लोक उणो जावंक ना. धारावींत कितलेशे कुटीर-उद्देग चलतात आनी तांतूंत कामां मेळटात हें हाचें फाटलें एक मुखेल कारण.

धारावी म्हळ्यार एक धाकटुलो भारत देशूच. हांगा वेगळ्यो वेगळ्यो भासो उलोवपी वेगळ्या वेगळ्या जाती-धर्मांचे लोक आपणाले वेगळे वेगळे पंगड करून पूण हेरां कडेन जुळोवन घेवन जियेतात. धारावींत मुखेलपणान तेरा भासो घोळटात – मराठी, हिन्दी, उर्दू, गुजराती, सिंधी, मारवाडी, वडारी, माकडवाला, तमीळ, तेलगू, कन्नड, मलयाळम आनी पंजाबी.[१०] धारावींतल्या चडश्या लोकांक ह्या आवय-भासांनी वांटून घालूं येता. ह्या तेरा भासां भितरल्यो मराठी, तमीळ, उर्दू आनी हिन्दी ह्यो चार भासो धारावींतल्यो भौसंख्य लोकांच्यो भासो.

धारावींतूय एके तरेची आपशींच घडून आयिल्ली 'भाषावार प्रान्त रचना' पळोवंक मेळटा! देखीक, थंयच्या 'कामराज नगरां'त चडसो तमीळ भाशीक

---

५. **Bazari Hindi as a Language of Wider Communication: A Case Study of Dharavi Slum in Bombay** in K.P. Acharya et al (ed) 1987 : 209-258.

६. K.S. Rajyashree 1986, An Ethnolinguistic Survey of Dharavi, a Slum in Bombay, C.I.I.L, Mysore.

७ आनी ८. K.S. Rajyashree, 1986 : 27

९. पळेयात : K. S. Rajyashree 1986 : 22-24.

१०. K. S. Rajyashree 1986 : 95. धारावींत कोंकणी भाशिकूय आसात! थंयचे 'राजाराम शेटची चार्वी'त डॉ. राजश्रीक तीन कोंकणी भाशीक हिन्दू घराबे मेळ्ळ्यात (पानां : ४९, ५१). धारावींत कोंकणी भाशिकांचें प्रमाण सामकें उणें आसतलें. तांतुंतूय क्रिस्तांव कोंकणी मनीस, गोंयचो तरी, धारावींत रावता आसतलो अशें दिसना. सुवाते खातीर अडचल्ल्या गोंयकार क्रिस्तांवाक मुंबयचीं ताचे गांवचीं 'कुडां' पावतात.

लोक जाल्यार 'सुभाष नगरां'तलो भोवसंख्य लोक मराठी भाशीक.[११] तशेच, 'कुंभारवाड्या'र गुजराती भाशीक चड आसात आनी 'मुकुंद नगरां'त कन्नड आनी तेलगू उलोवप्यांचो आंकडो अदीक आसा. 'काला किल्ला' धारावींतलो हिन्दी भाशीक वाटार.[१२] जात, धर्म आनी वेवसायूय मनशांक लागीं ओडटा तेंय धारावींत दिश्टी पडटा – एके जातिचीं, एका धर्माचीं आनी एकूच वेवसाय करपी कुटुंबां थंय एकामेकां शेजरा रावतात.[१३] पूण ह्या सगळ्या ओडीं परस भाशेची ओड चड खर म्हणपाचें धारावी दाखयता. हे ओडीक लागुनूच आंतर-जातीय वा आंतर-धर्मी लग्नां परस आंतर-भाशीक लग्नांक धारावींत अदीक विरोध सोंसचो पडटा![१४]

भौभाशीक धारावींतूय सामकेच उणे म्हणूंक येवचे नात इतले, फकत आपणाली आवयभास जाणा आशिल्ले एकभाशीक लोकूय आसात.[१५] तीस-चाळीस वर्सां धारावींत रावन लेगीत ते दुसरी खंयचीच भास शिकूंक पावंक नात. एकभाशिकांचें प्रमाण जाणटे (पंचेचाळिसां वयले) पिरायेच्या लोकां भितर आनी तेंवूय बी बायलां भितर अदीक (७२%) पळोवंक मेळटा. डॉ. राजश्री सांगतात, समाजांतले घोळणुकेक मर्यादा आशिल्लेच धारावींत अशे एकभाशीक उरतात. दुसरे वेटेन, धारावींत धा ते बारा भासो जाणा आशिल्लेय लोक मेळटात! पांच ते स आनी अदीक भासो जाणा आशिल्ल्यां भितर वेपारी, दुकानकार बी अदीक आसतात. देखीक, हातगाडयांचेर भाजयो, फळां बी घालून विकतल्यांक सामान्यतायेन चड भासो येतात. चड भासांचें गिन्यान तांगेल्या धंद्याचे नदरेन फायद्याचेंय आसता.

धारावींतल्या 'नगरां'नी वा 'वाड्यां'नी सामान्यतायेन भौसंख्य लोकांची भासूच त्या त्या वाटाराचे शिमे भितर भौभाशिकां मजगतचे संपर्क भाशेचें काम करता.[१६] देखीक, 'कामराज नगरां'त रावतल्या मराठी भाशिकांक धारावींतल्या तमीळ वाटारांतले ते अल्पसंख्यांक जाल्ल्यान तमीळ 'शिकची पडटा'. तांकां तमीळ येता. पूण भौसंख्य तमीळ लोकांक, धारावी मराठी महाराष्ट्राचे राजधानयेंत आसून लेगीत, मराठी 'शिकची पडना'. तांकां ती येना. हेच भाशेन, मराठी 'सुभाष नगरां'त अल्पसंख्य आशिल्ल्या तमिळांक मराठी येता पूण मराठी लोकांक तमीळ येना.

वेवसायीक ठिकाणांचेर सामान्यतायेन धनयाची, 'मास्तरा'ची (सुपरवायजराची) वा भौसंख्य कामगारांची भास मुखेल संपर्क भास जाता.[१७] देखीक, धारावींतले लोकरिचे वा चामड्याचे कारखाने चडशे मुसलमानांचे मालकिचे आसात. तांतुंतले 'मास्तरू'य चडशे मुसलमानूच आसतात. देखून हांगा दक्खिनी वा उर्दू मुखेल संपर्क भास जाता. कामगारां मदीं आंकड्याचे नदरेन खंयचोच एक भाशीक पंगड भौसंख्य आसना तेन्ना मात बाजारी हिन्दीच तांचे मजगतची संपर्क भास आसता.

भाशीक वेव्हारांतल्या कांय वाटारांनी धारावींत बाजारी हिन्दीच घोळटा. 'दोन नंबरचे धंदे' बंबइया हिन्दींतल्यानूच चलतात. चोरयां सोरो काडप, स्मगलींग, मटको, सट्टो, जुगार असल्या धंद्यांनी आशिल्ल्यांक बंबइया हिन्दीच आपणाल्या 'धंद्याची भास' दिसता.[१८] हांगा 'धनयाची भास', 'कामगारांचो आंकडो' बी असल्या गजालीं वयल्यान संपर्क भास थरना. देखीक, चोरयां सोरो काडपी भट्टेचो धनी मराठी भाशीक आसलो आनी तांतुंतलो भौसंख्य कामगारूय मराठीच आसलो जाल्यारूय भट्टेंतली संपर्क भास बंबइया हिन्दीच आसता. मटक्याच्या अड्ड्याचो धनी तमीळ भाशीक आसलो जाल्यारूय अड्ड्यार बंबइया हिन्दींतल्यानूच वेव्हार चलतात. धारावीच्या रस्त्यांचेर वेगळ्यो वेगळ्यो आवयभासो आशिल्लीं भुरगीं खेळटात, झगडटात तेन्ना तींय बंबइया हिन्दीच उलयतात.[१९] हाचे वयल्यान धारावीच्या वेगळ्या वेगळ्या भाशीक पंगडां मजगतची खरेली संपर्क भास बंबइया हिन्दीच अशें आमच्यांनी म्हणूं येता.

## बाजारी हिन्दी: कांय व्याकरणीक खाशेलपणां[२०]

बाजारी हिन्दी हिन्दी भाशेची 'पिज्जीन'. म्हळ्यार एके नदरेन हिन्दीचें हें 'सोंपें रूप'. 'पिज्जीन' भाशे भितर व्याकरणाच्यो चड 'किचकिचावण्यो' आसनात. मूळ भाशेचें व्याकरण तिचे 'पिज्जीन' भाशेच्या व्याकरणा परस कितलेंशें कठीण आसता. बाजारी हिन्दीच्या 'सोंप्या' व्याकरणाच्यो ह्यो कांय देखी—

१) बाजारी हिन्दींत नामाचीं भोववचनां आसनात. नामाचें एकवचनी रुपूच भोववचनाच्या अर्थानूय घोळटा. संदर्भाक लागून वा वांगडा आयिल्ल्या 'बहूत', 'सब' सारकेल्या उतरांक लागून उतराचो भोववचनी अर्थ स्पश्ट जाता. केन्ना केन्नाय नामाक जोडून 'लोग' उतर येता आनी तें भोववचनाच्या कुसाचें काम करता.

देखीः १. *मेरा खयालसे **सब लडकी** है.*
२. *उन लोगका साथ दस **बाइलोग** था*

२) हिन्दींत, कोंकणी भशेन, विभक्तिचीं कुसां लागचे पयलीं नामाचें 'सामान्य रूप' जाता. बाजारी हिन्दींत नामाचीं सामान्य रुपां नासतात; विभक्तिचीं कुसां नामाक सरळ लागतात.

देखीः १. *मेरा **लडकाको** बडा बुखार है*
२. *अपन **कुत्ताको** भाकरीच देता*

३) हिन्दींत 'पुलिंग' आनी 'स्त्रीलिंग' – दोन लिंगां आसात. बाजारी हिन्दींत चडशें उतरांचें एकूच, पुलिंगी रुपूच घोळटा. शाळेंतल्यान हिन्दी शिकून आयिल्ले मात लिंगाचो फरक पाळटात.

देखीः १. *इदर **लडकी लोग** बी फ्लूश **खेलता है***
*वा*
*इदर लडकी लोग बी फ्लूश खेलती*
२. ***उन लोगका बुद्‌ढी** कल **मर गया***
*वा*
*उन लोगकी बुद्‌ढी कल मर गयी*

४) **सर्वनामां**

प्रमाण हिन्दींतले वरीच बंबइया हिन्दींतूय 'मै' आनी 'हम' ह्या पयल्या पुरुशाच्या सर्वनामांचो वापर जाता. पूण 'हम' चो एकवचनाच्या अर्थानूय जावपी वापर हें बंबइया हिन्दीचें खाशेलेपण. (हिन्दीच्या कांय बोलयांनीय 'हम' अशें एकवचनाच्या अर्थान वापरतात.) पयल्या पुरुशाचें आनीक एक सर्वनाम बंबइया हिन्दींत घोळटा – 'अपन'. मराठींत पयल्या पुरुशाच्या 'आपण'चो जाता तसोच ह्या 'अपन'चो बंबइया हिन्दींत वापर जाता. जायते फावटीं हीं तिनूय सर्वनामां एकाच मनशाचे बोलयेंत येतात. सामान्यतायेन शिकिल्लो मनीस जतनाय घेवन उलयता तेन्ना ताचे जिबेर

---

११. K. S. Rajyashree 1987: 210.
१२. K. S. Rajyashree 1986: 48.
१३. अदीक म्हायती खातीर पळेयात – K. S. Rajyashree 1986: 48-54.
१४. K. S. Rajyashree 1986: 84.
१५. पळेयात K. S. Rajyashree 1986: 96-103.
१६. K. S. Rajyashree 1987: 210.
१७. K. S. Rajyashree 1986: 104, 105; 1987: 87-210
१८. K. S. Rajyashree 1986: 101.
१९. K. S. Rajyashree 1987: 211.
२०. K. S. Rajyashree 1987: 214-257.

'मै' येता; 'अपन' चडशें तरणाट्यांचे जिबेर घोळटा; 'हम'चो वापर सगळ्यांत अदीक जाता.

देखी: १. *मैं आज पिक्चरकू जायगाच*
२. *हमकू कामको जानेको मन्ता है*
३. *अपनकू ये सब अच्छा लगता नय.*

हिन्दींत दुसऱ्या पुरुशाचीं तीन सर्वनामां आसात – 'तू', 'तुम' आनी 'आप'. बंबइया हिन्दींत 'तुम'चोच वापर अदीक जाता, केन्ना केन्ना 'तू'य आयकूंक मेळटा, चड करून अशिक्षितांच्या उलोवपांत. 'आप'चो वापर मात भौच उणो जाता – फकत शिकिल्लेच जनताय घेवन उलयतात तेन्ना हें सर्वनाम वापरतात. पूण उलयतां उलयतां नकळटना 'तुम' वापरूंक लागता. मराठी वा तमीळ भाशिकांचे तुळेन हिन्दी आवयभास आशिल्ल्यांचे बंबइया हिन्दींत 'आप' अदीक येता.

देखी: १. *आप हमको कुछ कहनेवाला थे*
२. *मगर अभीतकबी तुम तुमारा कामका बारेमे हमको कुछबी नय बोला*

हिन्दींत तिसऱ्या पुरुषाचीं दोन सर्वनामां आसात – 'वह' ('वो') आनी 'वे'. बंबइया हिन्दींत भोववचनाच्या अर्थानूय चडशें 'वो'च घोळटा.

देखी: १. *वो लोक हम्मेसेही कोय होगा*
२. *वो हमारा घरको आया था*
२. *वो लोग कूद मारगे भाग गया*

## ५) विभक्तिचीं कुसां

हिन्दींत विभक्तिचीं **से, –ए, में, लिए** बी वेगळीं वेगळीं कुसां आसात. बाजारी हिन्दींत ह्या सगळ्या कुसांचे सुवातेर चडशें **–को** वा **–कू** हें एकूच कूस घोळटा. ह्या **–को/–कू** कुसांत मराठी **–ला** कुसाचो वापर झळकता.

देखी: १. ***मेरेको/कू** मत पूछ यार*
२. ***मेरेको/कू** ये काम होगा/जमेगा नय*
(*हिन्दी: **मुझ से***)
३. ***मेरेको/कू** बी जरा ठेर रे*
४. *वो **मेरेको/कू** साडी लाया*
(*हिन्दी: **मेरे लिए***)
५. *वो **बरसको** एक बार गावको जाता*
६. *वो **दिनको** दो बार पिता*
(*हिन्दी: **बरस में, दिन में***)
७. ***मेरेको/कू** दो बच्चा लोग है*
८. *तुम **मेरेको/कू** कायको/कू बुलाया?*
(*हिन्दी: **मेरे, मुझे***)
९. *मै कल **शामको** छे बजे/**बजेको** आया*
१०. *मै रोज सुब्बे सुब्बे **स्कूलको** जाता*
(*हिन्दी: कसलेंच कूस लागना*)
११. *हमारा मा तुमको कल **खानेको** आनेको बोला है*
१२. *हम लोग उसका घरको **खानेको** गया था*
(*हिन्दी: **खाने पे***)

## ६) विशेशणां

हिन्दींत कांय विशेशणां नामाच्या लिंगा-वचना प्रमाण बदलतात. नामाक विभक्तिचीं कुसां लागतात तेन्ना ह्या विशेशणांचीं सामान्य रुपां जातात. बाजारी हिन्दींत विशेशणांचीं सामान्य रुपां जायनात.

देखी १. *वो **मेरा घरमे** है*
२. *वो **मेरा बडा भाईका** बेटा है*

## ७) क्रियापदाचें व्याकरण

बंबइया हिन्दींतलें क्रियापदाचें व्याकरण खऱ्यांनीच खूब सोंपें. हे हिन्दींत दरेका काळांत क्रियापदाचें एकूच रूप मेळटा – लिंग, वचन, पुरूश – हांचे भेद बंबइया हिन्दींतल्या क्रियापदांक लागच नात म्हळ्यार जाता. फकत शिक्षीत मराठी आनी हिन्दी / उर्दू जतनायेन बंबइया हिन्दी उलयतात तेन्ना जायते फावटीं एकट्या लिंगाच्या भेदाक पाळो दितना दिसतात. हांचे जिबेर 'खाती (है)', 'करती (है)', 'जायगी', 'आयगी', 'गयी थी', 'आयी थी' हीं रुपां आयकूंक मेळटात. लिंगाचो भेद बाळगी नाशिल्लीं रुपांच बंबइया हिन्दींत चड घोळटात. 'जाना' क्रियापद घेतलें जाल्यार वर्तमानकाळाचें ताचें 'जाता (है)', भविश्यकाळाचें 'जायगा' आनी भूतकाळाचें 'गया था' हीं तीन रुपां बंबइया हिन्दींत मेळटात. 'जायगा'चे बदला केन्ना केन्ना 'जानेवाला है', 'गया था'चे बदला 'गयेला था' हींय रुपां घोळटात. कोंकणींत 'हो म्हजो भाव', 'तें अरवळ' सारकीं क्रियापदां नाशिल्लीं वाक्यां आसूं येतात. हिन्दींत इंग्लीशी वरी, 'होना' क्रियापदाचें रूप घाले बगर असलीं वाक्यां घडोवंक येनात. बंबइया हिन्दीक 'होना'ची व्हडलिशी गरज ना. 'ये मेरा भाई', 'वो पागल' सारकेलीं वाक्यां बंबइया हिन्दींतलीं व्याकरणशुद्ध वाक्यां!

नादांच्या पांवड्या वयलींय बंबइया हिन्दीचीं खाशेलपणां आसात.

कांय उतरांचे अर्थ रुंदावन बंबइया हिन्दी आपणाली उतरांची गरज उणी करता:

हिन्दींत ''पड'' अर्थाचीं दोन उतरां मेळटात – **'पड'** आनी **'गिर'**. बंबइया हिन्दींत फकत **'गिर'**च मेळटा आनी ताचो वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत वापर जाता.

देखी: १. *तुमको एक म्हिनाका बाद **मालूम गिरेगा***
२. *आज बहूत **बारीश गिरा***
(*हिन्दी: **मालूम पडेगा, बारीश हुई***)

'बता' क्रियापदूय अशेंच वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांत घोळटा:

देखी: १. *आज एक **पिक्चर बता** यार!*
२. *एक **गाना बता** यार!*
३. *मेरेको थोडा **पैसा बता** यार!*
(*हिन्दी: **पिक्चर दिखा, गाना गाओ/सुनाओ, पैसा दे दो***)

**'होना'** म्हळ्यार हिन्दींत ''आसप''. बंबइया हिन्दींत ताचो ''जाय आसप'' असोय एक अर्थ जाता.

देखी: १. *तुमको क्या **होना**?*
२. *तुमको कौन **होना**?*
(*हिन्दी: **चाहिए***)

''जाय आसप'' ह्या अर्थाचें आनीक एक क्रियापद बंबइया हिन्दींत घोळटा – **मंगना**. हिन्दींत हें क्रियापद ना.

देखी: १. *अपनकू चाय **मंगता** है*
२. *इदर ॲक्शन **मंगता**, खाली बकबक नय*
(*हिन्दी: **चाहिए***)

वेगळ्या वेगळ्या भासां कडल्यान आयिल्ली उतरावळूय बंबइया हिन्दींत खूब मेळटा.

देखीः
१. **भंकस** ''बाबत / वाज / मस्ती'':
*साला पिक्चर **भंकस** है*
*मेरे साथ **भंकस** मत कर*
२. **मंडी** ''सुंदर'':
*अरे, हेमा जैसी **मंडी** है*
३. **खुन्नस** ''रागार (आसप), नातें इबाडिल्लें (आसप)'':
*साला, हम आजकल उसका साथ **खुन्नसमे** है*
४. **खालीपिली** ''बेश्टेंच'':
*खालीपिली बोमडी मत मार, साली...*
५. **वांदा** ''अडचण''
*कुछ तो वांदा नय*
६. **बिनधास** ''सुंदर! आकांत!''
*अरुणा इराणी बडा **बिनधास** काम कियेला है*

हांतुंतलीं चडशीं उतरां बंबइया हिन्दीन मराठी कडल्यान घेतल्यांत.

आधुनिकीकरण, उद्देगीकरण आनी शारीकरण हांचो एक बायप्रॉडक्ट म्हळ्यार झोपडपट्ट्यो. संवसारभरच्या चडश्या 'विकसीत' वाटारांनी झोपडपट्ट्यो आसात! गोंयचे मेकळिके उपरान्त आमकांय विकासाची ताकतीक लागली आनी गोंयांतूय झोपडपट्ट्यो आयल्यो. 'झुआरी नगर', 'इंदिरा नगर', 'राजीव नगर', 'बाबू नगर' बी 'नगरां' घेवन गोंय राष्ट्रीय प्रवाहांत गेलें. आयज गोंयच्या दर एका शारांत वा शारा लागसारच्या वाटारांत एक तरी झोपडपट्टी पळोवंक मेळटली. विकासाचो आटाप चड थंय चड झोपडपट्ट्यो दिश्टी पडटल्यो. वास्को शारांत / शारा भोंवतणी म्हाका दिसता, गोंयांतल्यो सगळ्यांत अदीक झोपडपट्ट्यो आसतल्यो. ह्या झोपडपट्ट्यांनी कोण रावता? गोंयकारांच्या हिसपान 'भैया' (हिन्दुस्तानी वाटारांतल्यान आयिल्ले) वा 'घांटी' (दक्षिणेंतल्यान आयिल्ले)! 'लामाण्यां' होय एक वर्गण आसा. लामाण्यांच्यो बायलो खाशेलो भेस करतात. तांकांच गोंयकार 'लामाण्यां' म्हणटात. तांच्या दादल्यांच्या भेसांत कांय वेगळेपण आसना. देखून ते एक तर 'भैयां'त वा 'घांटयां'त मोडटात. 'भैया' आनी 'घांटी' गोंयकारां कडेन खंयचे भाशेंतल्यान उलयतात? गोंयकार तांचे कडेन खंयचे भाशेंतल्यान उलयतात?[२१]. 'घाटयां' 'घाटयां' मजगतीं वा 'भैयां' 'भैयां' मजगतीं वेव्हार खंयचे भाशेंतल्यान/खंयच्या भासांतल्यान चलतात? गोंयांतूय बाजारी हिन्दी चलता काय ना? गोंयच्या झोपडपट्ट्यांनी 'घांटी' आनी 'भैया' वांगडा रावतात काय ना? 'भैयां' भितर आनी 'घांटयां' भितर भाशीक विविधताय आसा काय ना? 'भैया' आनी 'घाटयां'चीं भुरगीं गोंयच्या शाळांनी शिकतात काय ना? शिकतात जाल्यार खंयच्या माध्यमांतल्यान शिकतात?

एक आनी दोन न्हय, शेंकड्यांनी प्रस्न विचारूं येतात ह्या मळार. आमच्या 'भाशीक नियोजना'क लागनात व्हय हे प्रस्न?

२१. 'घांटी' गोंयांत येना फुडें रोखडेच कोंकणी शिकतात तें हांवें पळेलां. गोंयांत पावल दवरिल्ल्या दिसा सावन तांचे जिबेर कोंकणी (मूळ पुर्तुगेज) 'पात्रांव' – 'पात्राम' घोळूंक लागता. कोंकणी घांटयांची 'पोटाची भास' जाल्यान – तांगेल्या 'पात्रामां'ची भास जाल्यान आनी तांगेली भास, देखीक कन्नड, कोंकणी परस सामकीच वेगळी जाल्यानूय 'घांटयां'क कोंकणी रोखडी 'शिकची' पडटा अशें म्हणूं येता. दक्षीण भारती भासां कडेन सरसमान गोंयकार थोडोसो 'वांकडे' – फकाणेर नदरेनूय पळेता – कन्नड मनशाक 'अँडू गुंडू' म्हणप बी हो कन्नड भाशे कडले आमचे attitudeचोच एक भाग. हाकाय लागून थोडोसो 'भिडेक पडून' 'घांटी' कोंकणी बेगीन शिकता जावंये. 'भैयां'कूय अशीच कोंकणी 'शिकची पडटा' व्हय? म्हाका दिसना... पूण हे विशीं अदीक म्हायती एकठांय करूंक जाय.

# तीर-सुवादीक कॉलम

**दिलीप बोरकार**

'रेड्या-पाड्याचें झूज आनी झोपांचेर काळ'
अशें कोणूय म्हणटालो तें म्हज्या कानार पडटालें.
ही म्हण काय ओपार हाचें गिन्यान म्हाका ना.
असल्या किचकट लफड्यांनी पडपाचें हांवें सोडलां.
एका काळार शिकयतालों तेन्ना थोडें लक्ष घालतालों.
कॉलेजींतलो प्यून बी केन्नाय विचारीत म्हूण.
उपरांत ह्या मळार कितलेशे जाण भितर सरून प्रा. जाले.
प्र. भिडे सारके प्रकाशकूय तांतूंत पडून गिन्यान दिवंक लागले
तेन्ना म्हळें, आतां हांवें असल्या लफड्यांनी आनीक पडप ना.
कोंकणीचें शिक्षणीक आनी भाशीक मळ हांच्या हातांत सुगूर आसा.
हांवें आतां निवृत्त जावन अचळय आंग काडून घेवपाचें.
हांव निवृत्त जातलों अशें हांवें कोणाक म्हळें ना.
कोणूय आयकत आनी खूक् करून हांसत म्हूण भंय.
ते भायर, फाटीं फुडें पदां भोगपाची आसूय म्हाका जावं येता
तेन्ना, हात दाखोवन अवलक्षण करून कित्याक घे!
निवृत्ती घेवप म्हळ्यार संन्यास घेवप कांय न्हय.
पयलीं सन्यास घेवन परत प्रपंचांत आयल्यार वाळींत उडयताले.
ज्ञानेश्वराच्या बापायन बी कितें भोगलां तें आमी जाणांत.
गोपाळ मयेकार बी तो प्रसंग बरोऽ रंगोवन सांगता.
पूण तसली ख्यास्त निवृत्तिची घोशणा करप्यांक कोण दिना.
आनी तसो तो आदलो काळूय आतां उरूंक ना.
ते परस घोशणा-बिशणा करी नासतना अळंग पयस रावन विधायक कार्य करपाचें.
हांगा विधायक कार्य म्हळ्यार 'कोप' मारप न्हय
केन्ना केन्नाय कोपाचें मारप जाता हें खरें
तेंय बी मनाक कांय गजाली लागून पिकासांव जाल्यार!
म्हणजे, कोंकणीच्या धनयांनी वावुरप्यांक सुणे बी म्हणटकच.
मागीर कोणेंय म्हाका बेबदो म्हळ्यार उपकारता.
शंकर भांडाऱ्याक ताचे वांगडी बेबदो म्हणनाशिल्ले?
हातचें फुडारपण वता तेन्ना असले आरोप जाताच.
शंकराक हें खबर आशिल्लें तरी ताणें तिसरो दोळो उगडलोना.
तो मुर्वतीन तांकां माफ करीत रावलो.
पूण आतांचे भुरगे सपासप तोंड उगडटात
देखून तांकां कोणें तिडकीन सुणे, बेबदे बऽरेऽऽ भशेन म्हणूं येता.
तर सांगपाचें म्हळ्यार, हांव विधायक कार्यांत घालून घेवंक सोदतां.
म्हाका घरा बसून कोंकणी चळवळिचो इतिहास बरोवपाचो आसा.
इतिहास बरयतलो जाल्यार मनशाचें मन शुद्ध आसूंक जाय.
खंयचेय व्यक्ती विशीं पूर्वग्रह बी आसूंक फावना.
इतिहासकारान निर्विकार, तटस्थ रावंक जाय.
तशें जालेंना जाल्यार मागीर तो मनोहर हिरबा जाता
अशें म्हाका केन्ना तरी रवीन्द्र केळेकारान म्हणिल्लें शें दिसता
तेन्नाच्यान म्हजे भितर म्हाका इतिहासकाराचीं लक्षणां दिसलीं.
तटस्थ रावपांत हांवें पुरुषोत्तम काकोडकाराक लेगीत फाटीं घालो.
ना जाल्यार इतिहासांत कोणाचेर अन्याय जायत तें सांगूं येता?
पूण हालींसराकूच म्हजेर कसलें अपसरण आयलां देव जाणां!
सरळ सरळ म्हजेर आरोप जावंक लागल्यात हांव राजू गटाचो म्हूण.
तेय बी वृत्तपत्रांतल्यान!
फाल्यां म्हजो इतिहास वाचतले कितें म्हणटले?
बोरकारान मावजो गटाचेर अन्याय केला म्हणचेनात?
मागीर समाजांत म्हजी पत खंयची उरतली?
हांव खऱ्यांनीच मनोहर हिरबा जावन वतलों.
हांव राजू गटाचो म्हूण हांवें वाचलें तेन्ना हांव हांसलों.
हो राजू केन्नाचो? तो सगळे बाबतींत म्हाका ज्युनियर.
गटबाजी जालीच जाल्यार राजू बोरकार गटाचो आसूंक जाय.
म्हजेंय म्हूण कितें तरी कोंकणींत फुडारपण आसा काय ना?
हें अशेंच चल्लें जाल्यार फाल्यां हे म्हाका सुशांताच्या गटाचो म्हणटले.
पूण आयच्या काळार ही गटबाजी कोणाक परवडटा?
म्हाका राजूय सारको आनी मावजोय सारको.
आमी हातावेल्या पोटाचे, बेकार लोक.
मडगांवां पावल्यार आमकां राजूगेर जेवंक जाय
आनी माजोड्ड्यां पावल्यार मावज्यागेर भूस मारूंक जाय.
ही गटबाजी उपकारता जांचीं पोटां तोडशेल्यांत तांकां.
हें गटबाजिचें राजकारण थांबोवंकूच जाय.
आतां हेंच पळेयात, मावजो गटांत जायते लोक आसात.
कोंकणी चळवळींत तांचें म्हत्वाचें योगदान आसा.
हांवें तें फाटलीं कितलिंशीं वर्सां बारकायेन पळेलां.
चळवळिचो इतिहास बरयतना म्हाका इतिवृत्त बरोवंचेंच पडटलें.
आनी खरें सांगतां, हांव तें कोणाचेर अन्याय करिनासतना
आसा तशें बरयतलों.
पूण इतलें करुनूय म्हजेर विस्वास दवरतलो कोण?
मावजो गटाचे म्हणटले, हो राजू गटाचो. देखून ताणें आमचेर अन्याय केला.
आमचें योगदान खूब आशिल्लें, ताणें थोडेंच नोंद केलां.
राजू गटाचे म्हणटले, हांवें मावजो गटाक चडोवन दवरला.
ही गजाल हांवें म्हजो इश्ट दोतोर तानाजी हळर्णकाराक सांगली.
तेन्ना ताणें तोंडभर हांसत, बोल्सांत हात घालीत म्हळें,
'आरे, कित्याक बेश्टी चिंता घेवन बसता? तुका आनी गट जाय ते कपलाक! कोंकणींत म्हूण गट आसतात रे? त्या पेपरवाल्यांचेंच कितें तरी चुकलां आसतलें... तांणी 'का'च्या जाग्यार 'रा' बी घालूंक ना मरे चुकून?'
दोतोराचो दुबाव सामकोच भायर उडोवपा सारको नाशिल्लो.
हे दिसूच तशे एप्रील-मायाचे.
दोंगरार दोंगरकारांनी काजू भाणाक उजो घाल्लो आसता.
हाडून दितात बाबडे एखाद्री कडक काजू बाटली.
पावसांत वखदाक उपकारतली घरच्यांक म्हूण.
(ही गजाल पत्रकारांक चड बरी खबर आसतली.)
कितेंय जालें तरी विनाकारण हांणी म्हजे वांटे घाले.
उरलेंना आतां हें सासणाचें कोंकणी मनशाच्या मनांत?
खंयूय गेल्यार आतां म्हणटले, हो राजू गटाचो मनीस.
कांय जाण म्हणटले, हो मावजो गटाचो विरोधी.
म्हजी ही खंत भिडेकूय समजून ताका चिटमिटे पडले.
'जाणां कितें मरे दिलीप, रेड्या-पाड्यांच्या झुजांत झोंपांचेर काळ येता.'
ताणें म्हाका समजावंक कोंकणीची म्हण वापरली.
हे म्हणिचो अर्थ कितें काय विचारल्यार तो हांसलो.

'तुमकां मरे, म्हण खंयची आनी ओपार खंयची तेंच कळना.'
आसूं रे, अर्थ सांग तूं अशें म्हणत हांव हांसलों.
हांव रेडो, पाडो काय झोंप हें म्हाका जाणा जावन घेवपाचें आशिल्लें.
'तूं हें कमलादेवी राव देशपांडेक कित्याक विचारिना? तीच तुका बरे तरेन समजावन सांगतली.'
भिडेचो सल्लो वायटसो नाशिल्लो.
ताईन म्हणी फाटल्यो खुबशो काणयो सांगल्यात.
विमल प्रभुदेसाय मागीर त्यो आपल्यो म्हणूं!
हांवें ताईक रेड्या-पाड्यांच्या झुजाची खबर विचारली.
'आरे पळय, आयक सांगतां.' ताईन उलोवंक सुरवात केली.
आतां ती बेगीन थारचिना म्हणपाचें हांव जाणां आशिल्लों.
आकाशवाणी वेल्यान निवृत्त जाल्ल्यांचो होच एक त्रास आसता.
'एक आशिल्लो रेडो आनी एक आशिल्लो पाडो.
दोगूय जिवान सामके घटमूट, खावन-पिवन धडधाकट.
दोगूय वांगडाच चरताले, वांगडाच भोंवताले.
एक दीस पोरांचें कितें बिनसलें, तेच जाणांत.
चरपाचें सोडून दोगांयचीं लागलीं न्ही रे झगडीं.
शिंगांत शिंगां घालून खड्ड्यार खड्डे आपटितात.
केन्ना रेडो पाड्याक फाटीं रेट्टा तर केन्ना पाडो रेड्याक.
केन्ना पाडो जमनीर शेंवटता तर केन्ना रेड्याक आपटिता.
दोगूय बाबडे झूज झूज झुजले, थकले आनी उदकाक गेले.
आतां जाली कितें मजा तें पळे.
रेडो-पाडो झुजतना जमनीर झोंपां आशिल्लीं.
तीं रेड्या-पाड्याच्या पांयां पोंदा मस्तून इबाडलीं.
झगडीं तांचीं पूण काळ कोणाचेर आयलो? सांग मरे!
विनाकारण त्या झोंपांचेर न्हय!
आरे ही ओपार असल्या प्रकरणांत खंयूय लागता.
हें पळय, एक आशिल्लो लाद्रू आनी एक आशिल्लो पेद्रू.
दोगूय आपले आवयभाशेची सेवा करताले.
धरुंया कोंकणीचीच सेवा करताले. पुर्तुगेज कित्याक म्हणुंया?
लाद्रू-पेद्रून पुर्तुगेजीची सेवा केली जाल्यार विनायक नायक आनी खलपान मराठीची सेवा केल्ले सारकी जाली.
तर ते दोगूय कोंकणीची सेवा करताले.
एक दीस दोगांयचें कित्या वेल्यान तरी कोंत्रासांव जालें.
जालें मागीर! पेद्रू रावलो एके वटेन, लाद्रू दुसरे वटेन.
लाद्रू-पेद्रू सेपाराद जाले तशे तांचे इश्ट सेपाराद जाले.
लाद्रूचो जालो एक गट, पेद्रूचो जालो दुसरो गट.
लाद्रूचो गट लाद्रूक फुलयता, पेद्रूचो गट पेद्रूक फुलयता.
खरें पळयल्यार झगडीं लाद्रू-पेद्रूचीं. ते कुशिकच उरले.
खरो वाद जालो तो ह्या दोन गटांचो.
गटबाजिचो छाप पडलो तो ह्या समर्थकांच्या कपलार.
हातांनी झगडीं जाल्लीं जाल्यार हे तकल्यो फोडपाचे एकामेकांच्यो.
म्हणटकच हांगा रेडो-पाडो लाद्रू-पेद्रू आनी हे समर्थक म्हळ्यार झोंपां.
कळ्ळें मरे तुका, काय आनीक सांगूं? सांगतांच.
सद्या गोंयांत मराठीचो वाद उस्तला.
भाजप आनी मगो एकूच हरशीं. रेडे पाडे कशे.
तांचीं चल्ल्यांत आतां झगडीं. कित्याखातीर? मतांखातीर.
भाजपाक म.गो.चीं मतां आपले वटेन हाडूंक जाय.
आनी भाजपाक सोंपयले बगर मगोक चान्स ना.
तर तांकां दिसलें मराठी केल्यार चान्स आसा.
जो कोण चड मराठी म्हणटा ताका लोक मतां दितले.
देखून हे दोनूय पक्ष आपले परीन झगडटात.
तांकां एकामेकांक सोंपोवंक जाय. निमित्त केलां मराठी.
पूण ह्या झगड्यांत काळ येतलो तो मराठी समर्थकांचेर.
बाबडे पयशे, वेळ होगडावन मार खावन बसतले.
आतां सांग म्हाका, रेड्या-पाड्यांच्या झुजांत काळ कोणाचेर आयलो?
झोपांचेर.
हीं सगळीं ल्हान झोंपां मरे. तांणी रूख जावंक जाय.
ते मेरेन रेड्या-पाड्यां पसून पयस तरी रावंक जाय.'
म्हाका पळयत ताई अदमास घेवंक लागली
कितले मेरेन म्हज्या बोडांत गेलां ताचो.
म्हाका ओपारी फाटली काणी कळिल्ली.
पूण एके गजालिचो दुबाव आशिल्लो.
दोनूय रेडे-पाडे मुळावेच आशिल्ले काय तांतल्या एकल्याचें कोण तरी प्रतिनिधित्व करतालो?
काय ह्या दोगांयकूय झुजोवपी खरे रेडे-पाडे वेगळे?
पाड पडूं मरे म्हजें, विनाकारण म्हाका झोंपाची उपाधी मेळ्ळी.
ते परस इतिहास बरोवंक बशिल्लों जाल्यार सुटपाचों.

* * *

# लापयांव

□ मूळ मराठी : मंगेश पाडगांवकार
अणकार : शंकर रामाणी

दिवेलावणेचे मातशे पयलीं
आवय लापयांव काडटाली,
लापयांवाची कांच वेगळी करताली.

सवकास हातांतल्या आंगशान
कांचे भितर दाटिल्लें काळेंकिट्ट
काजळ बेस बरें पुसताली
आनी मागीर लापयांवाची वात पेटोवन
आशिल्ली तशी नीट बसयताली.

इतले मजगतीं घरा भायर सरभोंवतणी
रातकिड्यांच्या काळ्या कर्कश गल्लांत
बिण्ण काळोख उबो राविल्ले वरी दिसतालो.

आनी घरांत आवयन
नितळ केल्ल्या लापयांवाचो
मंद उजवाड तिगेल्या मोवसार
न्हेसणा भशेन घरभर पातळटालो.

# कोण गेलो पयस

□ अरूण साखरदांडे

कोण गेलो पयस
काळीज उमास
मना ओलो सूर
भेटून भेटना

उसळटात ल्हारां
चुकलेलीं तारवां
दर्याप्राण देग
दिसून दिसना

दिवो जळटा वात
चिंब भिजली रात
फांतोडे सुलूस
लागून लागना

एकलोच वाटसरू
चलता दिगंतरू
पांया पोंदा वाट
सोंपून सोंपना

खोल सपन तळें
ताका काळीज भळभळें
उदका खोल थाव
मेळून मेळना.

# काशिक...

□ सखाराम गोविंद शणै बोरकार

'काशि म्हण्टा'
'काशिक म्हणचेंच पडटा'
'काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना'
हें तुजें 'म्हणप'
मारुतीचे शेंपडे भशेन
लांबत चल्लां
अशें तुका दिसना ?

पुण बाब लोलयेकारा !
असो कितलो तेंप
तूं म्हणतच रावतलो ?

आतां थोड्यांक तुज्या म्हणपाचो
वाज बीन येयला आसतलो

चाबून चाबून चोथो जाल्ले
भाशेची रूच काडपांतच
तेंचें 'व्हीद' सोंपलां.
आख्खे भाशेचो बांयटेर काडपी तूं !
तेंकां कसो पचतलो ?

तुयें कितलेंय म्हटलें जाल्यारय
तेंगेली सुण्या शेंपडी
नळ्येंत घातली म्हण
थोडीच नीट जातली !

आनी तुयें म्हणपाचें
सोडलें जाल्यारय
तेंकां कांयच दिसपाचें ना.

# घराणें

□ आर. रामनाथ

हार्लीं तो खूब उलोवंक लागला
थोडें बरें... थोडें वायट
बरें उलयता तेन्ना
आमी ताची तोखणाय करतात
आनी वायट उलयता तेन्ना
आमी खो खो करून हांसतात
तोखणायेचें ताका कांयच दिसना
पूण खो खो करून हांसतकीर
ताका नेट चडटा
तो चडूच वायट उलोवंक लागता...

तशें पळयल्यार
असल्या वेळार हांवें ताका
धपकावंक जाय
पूण सगळे म्हणटात
धपकावप बरें न्हय
समजावन सांगपाक जाय
पूण समजावणेचीं उतरां
कळपा इतलो तो व्हड खंय जाला?
आनी हांव म्हणटां
वायट उलोवपाचेर बंदी आसा?
तसो कायदो आसा?
मागीर हांव कित्याक धास्तावतां तर?
घडये फुडाराक ताका बरीं उतरांच सुचत
नाजाल्यार म्हजी परंपरा मोडून
ताचे पसून एके नवे परंपरेची
सुरवात जायत आमच्या घराण्याची...

# मोगाच्यो पाकळ्यो

□ मनोज नरेंद्र कामत

त्या लाकडी कोरपांत
देखिल्ली तुजी मूर्त
दीत आयल्या म्हाका स्फूर्त

✻ ✻

तुर्जी म्हांवाळ उतरां
दोळ्यां मलप्यांतल्यान
म्हर्जी काळजा सोंपणां चडटात

✻ ✻

हांसपांत फुट्टा चंवर
कांट्यार उबो भंवर
घालून शबय

✻ ✻

बीं बीज फुलतलें
झाड जावंक पावतलें
संगमाचो पडून सांगड

✻ ✻

सांगण्यान तुज्या
झेललें आकांताचें तुफान
मेळ्ळें मात काळखी-रान

✻ ✻

स्पर्श तुजो
अचकीत उगडास काडटा
न विसरपी कालचो खीण

✻ ✻

कोंगऱ्या केंसांतलो
तेला वास
जिवाक भोगयता त्रास

# कोण हांव?

□ सुजला देव भावे

कोण हांव?
एक कूड?
कुडी भितर पेटपी वात?
काय उजवाडाक फाट करून
सपनां उसपीत जळपी
एकली एकसुरी रात?

कोण हांव?
एक तळें?
माळपी मोनी शितळकाय?
काय हावेसाचीं दर्या-ल्हारां
कितलेंय मेळ्ळ्यार म्हणपी,
आनीक इल्लें जाय.

कोण हांव?
वाडटो रूख?
फुलपा-फळपांत मानपी सूख
काय एक अटंगें रान
सांवळ्यांच्या घुस्मटांतूय पोसपी
लख्ख उजवाडाची तान

खरेंच! कोण हांव?
एक यात्री?
अदृश्टाचे वाटेवेलें तारूं?
फाटल्यान येतल्याक मेळची वळख
म्हूण दवरतां उतरांनी वांटून
म्हज्या सुखा-दुखाच्यो कुरू.

# म्हजे धुवे

□ नयना आडारकार

१.

तुज्या किलकाऱ्यांनी घर म्हजें
भरुंदी गो बाये
धुवे म्हजे निलांबरी
डॅडीन हाडल्यां कितलीं खेळणीं
घरभर धवळून उडय
दिमखुऱ्यांनी धांवत येवन
पांयांक म्हज्या वेंगय
म्हजे मांडयेर बसून
मस्ती करून
घर म्हजें जागय
धुवे म्हजे निलांबरी
तुजेर आयलां कसलें सांवट
देवूच निवारतलो
सांग गो म्हाका आई म्हूण
मारतलें केन्ना उलो
तुजीं उतरां आयकूंक जीव पिसो
आशेता गो बाये
धुवे म्हजे निलांबरी.

फेब्रेर ८७

२.

म्हजे धुवे, तूं म्हजें शिल्प
म्हजें हें शिल्प म्हजे कल्पनेची रचणाय
म्हज्या शिल्पाक म्हज्या रक्तधामाची शिंपणाय
म्हजें हें शिल्प म्हजे सृजनतायेचें प्रतीक
म्हजें हें शिल्प बावनकशी सौंदर्याची मूर्त
म्हजें हें शिल्प म्हज्या हेर स्पंदनांची स्फूर्त
ताचे सुंदरतायेन जो तो शेणटा
पूण हालींसरा
म्हज्या शिल्पाक सोंसना हो शिंया-गिमाचो खेळ
म्हज्या शिल्पाचे राखणेक पावना म्हाका वेळ
म्हजें शिल्प आतां आंगा-आंगान कोंसळटा
म्हज्या शिल्पाची ही अस्थिपंजरी जीण
लागीं लागीं येवपी ताचो मर्णखीण
म्हज्यांतले आवयक पिंळवट्टा
आनी शिल्पा सांगाताक
दुखा विरयत, मोन्न्यांनी
म्हजें काळिजूय तुट्टुतुट्टू तुट्टा
घुस्मटून रडटा.

३०-१-९७

३.

तुका कशें कळचें म्हज्या काळजाचें
खिणा खिणाक लासप
म्हाका जाय तूं, तुजें तें भाबडें हांसप
पूण तुजो देह, आनी त्यो यातना
तुज्या तोंडार हांसो, तरीय दोळ्यांत उदेल्ल्यो त
वेद

मागीर हांव मुक्ती मागतां
तुजी, हय तुजीच
कसलेय वेदने विरयत तुजी मुक्ती
हांव आदिशक्ती हांव माता
कसलो हक्क म्हाका मिरोवंक
हीं आवयपणाचीं फितां
हांवेंच केल्लीं तुका
ह्या जगाचीं दारां उकतीं
आनी हांवूच मागतां
तुजी वेदने विरयत मुक्ती

२६-११-९९

# सुकण्या पिला

□ आनंद वर्टी

चिंवचिंवपी
सुकण्या पिलां
मोटीं केदीं जालीं
पांखां फुटून
घोंटेरांतल्यान
मळबा पेल्यान पावलीं...

निकतीं दोळे
उकते करून
कशीं पळयतालीं
किरणां मदल्या
भांगराक दिपून
परते धांपतालीं

थंडी वाऱ्यांत
आवय म्हऱ्यांत
येवन बसतालीं
आवय गाणीं
गायची आयकून
खोशयेन हांसतालीं

तांबड्यो चोंची
उगडून कशीं
दाणो मागतालीं
कणो-गोटो
मेळटकीर
भूक भागताली

घुगूम घोण
कावळ्यांक पसून
भिवन आसतालीं
घोंटेर तांचे
तरीय सुगूर
आवय राकताली

रानावनांत
आंब्याक चंवर
वास केन्ना सुटलो
कोणाकूय
कळचे पयलीं
पिलांक गळो फुटलो

पांखांक आयलो
जोर आनी
पांयांत बळ आयलें
चारी दिको
जाल्यो मेकळ्यो
सैम आपोवंक लागलें

आतां तांकां
सोंसना जालें
आयली काळजांत लाट
एका दिसा
सोडून घोंटेर
धल्ली नवी वाट

रिते जाले
घोंटेर तशी
आवय पडली एकटी
फाटल्या दिसां
यादी काडत
जावन बसता कष्टी...

# मर्ण सुवाळो

□ मनोज नरेंद्र कामत

तरांटून बांदिल्ली निसण
जून कोंड्या पालखी,
पिंजक्या हांतरार
धव्या कपड्यांतली कूड
चिंते-विरयत न्हिदल्या

कोण पिरंगता खंयचेकडेन
काडून नेट अडेचो ?
बोबो हुयेली मारून आतां
निखटोच दुकां शिंवर

हुरपंज्यो जल्मल्यात
मनिसपणाक पालव दिवंक
पूण फकत चार भुजां आदाराचेर
मरणा सुवाळो जमीन माड्डिता

ही कविता मार्चाच्या आंकांत उजवाडा आयिल्ली. आमचे नदर चुकेक लागून कविचें नांव 'परेश नरेंद्र कामत' अशें छापून आयिल्लें. देखून मनोजबाबा लागीं चूक मागून ही कविता आमी हांगा परती उजवाडायतात.

— वावुरपी संपादपी

# भारतीं कैद्यांची सुटका

## फेलीस्यु कार्दोज




आगवादाचे बंदखणींत कैद्यांचो आंकडो वाडूंक लागलो तसो आनिकय खोलयो वापरच्यो पडल्यो. म्हाका आनी म्हज्या सांगाताक आशिल्ल्या गोंया भायल्या कैद्यांक ७ नंबराचे खोलयेंत धाडून दिले. ६ नंबराची खोली तेन्नाच कैद्यांक घालूंक उगती केली. ७ नंबराचे खोलयेचो म्हाका कोमांदांतीन chefe da cela (मुखेली) केलो. ६ आंकाचे खोलयेंत कुजीन नासलें देखून तांतुतल्या कैद्यांक जेवण दिवपाची जबाबदारी कोमांदांतीन आमचेर, म्हणजे ७ आंकाचे खोलयेंतल्या कैद्यांचेर घाली. ते परमणें आमी तांकां च्या-चपात्यो आनी जेवण करून धाडटाले.

मदीं मदीं ७ आंकाचे खोलयेंत कांय गोंयकारांकय हाडून दवरलले. पूण थोड्या दिसांनी तांची बदली दुसऱ्या खोलयांनी केली. शेवटीं भारती कैद्यां मदें हांव एकलोच गोंयकार आसलों.

१९५७ वर्साच्या जानेराचे २१ तारखेर पुर्तुगालाच्या सरकारान गोंय-दामांव-दीवच्या बंदखणींनी आसलल्या भारती सत्याग्रहींक माफी (amnistia) जाहीर केली. फेब्रेराचे २ तारखेर सकाळच्या सुमार ११ वरांचेर एका सार्जेंतीन येवन भारती कैद्यांनी घरा वचपाक रोखडेच तयार जावचे म्हण म्हाका सांगलें. ही आनंदाची खबर हांवें तांकां सांगली. तांचे खुशालकायेक शीम-मेर उरूंक ना. ते गडगडीत तयारी करूंक लागले. पूण त्या दिसा जांची रांदप करपाची पाळी आसली तांचें खरेपणीं म्हाका कौतूक दिसलें. तांणी कसलेंच हुतहुतेपण करिनासतना आपले जबाबदारेचीं सगलीं कामां केलीं. ६ आंकाचे खोलयेंत जेवण व्हरून दिलें. उपरांत सडसडीत चार उंडयो पोटांत घालून न्हेसून तयार जाले. थोड्या वेळान सार्जेंतीन येवन दार उगतें केलें. निरोप घेतना सगल्यांचे दोळे भरून आयले. थोडे बुडूबुडू रडले. ते म्हजे १९ सांगाती म्हाका एकसुरो सोडून गेले तेन्ना म्हज्या दोळ्यांतल्यान आपाप दुकां व्हांवलीं.

ते रातीं ते व्हड खोलयेंत हांव एकलोच उरलों. सगळें किण्ण जाल्लें. सबंद रात पात्याक पातें लागूंक ना. कितले दीस हावें तांच्या सांगाताक एकठांय काडलले! त्या सगल्यो यादी मनाच्या पड्ड्यार एका चलचित्रा परीं दिसूंक लागल्यो. थोड्यांचो सभाव थंड जाल्यार चडशे उचांबळ आसले. दांडगी पिराय ती. चडशे २२-२४ वर्सां भितरले आसले. आमच्या कांय 'फुडाऱ्यां'नी तांकां सत्याग्रह करूंक कोंबार काडलले तेन्ना ६ म्हयन्यांनी गोंय मुक्त जातलें आनी तांचेर बरे दीस उदेतले म्हण भासावणी केल्ली खंय. पूण ६ म्हयने खंयचे? वर्सां जाल्लीं. सालाजार गोंय-दामांव-दीव सोडून दिवपाक कसोच तयार नासलो. तेन्ना ते निरशेले. कांय जाण एकेकदां जनावरां परीं वागूंक लागले. दिसपट्टीं २-३ झगडीं जावप चालती गजालशी जाल्ली. केन्ना केन्ना झगडीं म्हण कसलीं? एकामेकांक घांस मारपाचीं, कोंथती-पिसकाती घेवन मारूंक वचपाचीं. तांकां आडवपाक नाका पुरो जातालें. पूण एक मात, हांवें तांकां बरे भाशेन सांगल्यार म्हजें ते आयकताले. आंगार हात करपाचें बंद करताले. इतलेंच न्हय, तांचे भितर दोग-तीग जाण 'क्रूर' म्हणून नांवाडगे जाल्ले तांणी हांव दुयेंत जाल्लों तेन्ना म्हजे कपडे लेगीत धुवन दिल्ले. पयलीं 'गोंयकार' आनी 'भारती' असो कैद्यां भितर अधिकाऱ्यांनी फरक करूंक नासलो. तेन्ना गोंयच्या जावं गोंया भायल्या कैद्यांक एकठांय दवरलले. एकदां एका थंड सभावाच्या गोंयकार सत्याग्रहीचेर लेगीत गोंयांभायल्या एकल्यान हात उखलल्लो. पूण ते वामनबाबाक जाल्यार वर्तो मान दिताले. वामनबाब म्हळ्यार वामन राधाकृष्ण मर्चंट. उंचायेन तो खरोच 'वामन' आसलो, पूण ताचें उतर ते आयकतालेच. वामनबाब मवाळायेन तांकां समजायतालो, बरी देख दितालो.

वामनबाब गोंयकार, पूण ताचो जल्म वेंगुर्ला जाल्ल्यान पुर्तुगेज सरकारान ताका 'इंदियानु' थारायललो आनी २-२-१९५७ दिसा ताचीय सुटका केल्ली.

वामनबाब एका काळार 'मरती' नांवाचें एक 'सॅक्सी' नेमाळें उजवाडायतालो. तें मासीक वाचतल्यांची घडये अशी कल्पना जाल्ली की वामन राधाकृष्ण एक कामचारी मनीस. पूण खऱ्या जिवितांत तो रिती-मर्यादिचो आसलो.

क्रिस्टोफर इसाक आनी जाकोब दारसी सोलोमन हे दोगय आंध्र प्रदेशांतले. ते क्रिस्ती आसले. तांची आवयभास तेलुगू, पूण हिंदुस्तानीय उलयताले. क्रिस्टोफर बरो कलाकार. तो लुगटाचीं बरीं बॅगां आनी रित्या पेटिंच्या फळयांचीं सुंदर ट्रंकां करतालो. म्हाकाय एक ट्रंक ताणें करून दिल्लें.

जाकोब हिंदी आनी तेलुगू गितां आवडीन गायतालो. केन्ना केन्ना आमी संगिताची कार्यावळ करताले. तोप, हांडयो, कळशे आमी तबल्यां घुमटां सुवातेर वापरताले. म्हजेकडेन एक सान ऑर्ग (mouth-organ) आसलें. 'पक' नांवाचें, जेरमानींत तयार केल्लें. हांव तें वाजयतालों. आमचें संगीत सुरवातेक सवकास आसतालें. उपरांत हळू हळू ताची गती वाडत वताली. तेन्ना जाकोबाचेर भार सो येतालो आनी उठून सगल्या बळान नाचूंक लागतालो. आमी वाजोवपाचें बंद केल्यार तो बोब मारून परत चालू करूंक सांगतालो आनी शेकीं बेसुद्द जावन पडटालो. सुद्दीर येतकच ताका विचारल्यार आपल्या नाचाची खबर ताका नासताली.

लालचंद्र अपू. ताचो जल्म केरळांत जाला. ताचें खरें नांव लौरेंस आब्रेव. ताचो आवय-बापूय गोंयकार. बापूय केरळांत स्थायीक जाल्लो आनी थंय कांसाराचो धंदो करतालो. लालचंद्राचें मुळावें शिक्षण मलयाळम भाशेंत जालां. घरांतली मनशां कोंकणी उलोवपी जाल्ल्यान तो ही भास बरी उलयतालो. इंगलीश भाशेचेरूय ताचें प्रभुत्व आसलें.

लालचंद्र मुंबयच्यान गोंयां आयलो आनी ताणें दुसऱ्यां सांगाता सत्याग्रह केलो. पुर्तुगेज पुलिसांनी त्या सत्याग्रहांक धरले आनी पुलीस चौकेर व्हरून तांकां भारी पेटयले. गोंयचे सुटके चळवळींत भाग घेवपी क्रिस्तांवांक पुर्तुगेज अधिकारी अदीक त्रास दितात म्हण लालचंद्राच्या कानार खबर पडलली. देखून ताणें आपलें खरें नांव पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक सांगूंक ना. लौरेंस आब्रेव नांवाच्या उतरांतलीं पयलीं अक्षरां L-A घेवन ताणें आपणाक लालचंद्र अपू नांव तयार केलें आनी गोंयांत तेंच नांव तो वापरूंक लागलो.

लालचंद्र बरो विनोदी आसलो. थंड सभावाचो आनी केन्ना मस्कऱ्यो करून दुसऱ्यांक हांसोवपी. ताची एक विशेशताय आसली. ताचेकडेन पाद 'रिजर्व्ड' आसताले! आनी सांगता तेन्ना तो तांचो उपेग करतालो. चड करून दोग जाणां मदें जोरान वाद चलतालो तेन्ना. हुजत, वाद करप्यां मदें वातावरण तापूंक लागतालें तेन्ना आमी ताका ताचो 'ॲटम बॉम' सोडूंक खुणायताले. तेन्ना तो कसलेंच लखेण दाखयनासतना हुजत करप्यां लागीं वचून उबो रावतालो. आनी दोन-तीन मिणटां भितर हुजत करपी आनी तांचे भोंवतणी जमो जाल्ले नाकाक धरून फूं फूं करीत वताले. तितल्याक हुजत सोंपताली!

(चलता)

# 'अभिजित' – एक आस्वादन

डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा




**काळजांतली कळ... म्हळ्यार जें उतरांनी सांगूं नजो तें उतरांनी बांदूंक पळेलें** – अभिजित.

काव्य म्हळ्यार खरेंच काळजांतली कळ. ती उतरांतल्यान व्यक्त जाता. तिका बांदपाची कला म्हळ्यार कविता. रामायणाची उत्पत्ती म्हळ्यार आदि कवी वाल्मीकिच्या 'काळजांतली कळ'.

आनी अभिजिताच्या काळजांतली कळ म्हळ्यार हो काव्य संग्रह. हातूंत २८ कविता आसपावल्यात. 'आरे अंदी नाका पाखां', 'सगळें अर्पूंचेलें', 'आनंदाचीं ल्हारां' आनी 'वसंत परथून आज घरा' ह्या कवितां खाला ''महाकवी रवीन्द्रनाथांक नमन करून'' अशें बरयलां. हे रवीन्द्रनाथांल्या कवितांचे अणकार काय तांणी रवीन्द्रनाथांल्या कवितांतल्यान प्रेरणा घेवन ह्यो कविता रचल्यात, तें स्पश्ट जायना. 'मोगाळ दिव्या' आनी 'दर्शन' कविता मुळच्या दोन खिश्चन प्रार्थनां, अनुक्रमान Lead Kindly Light आनी We Shall Know Each Other. 'वैशणव जन' कविता गुजराती कवी नरसिंह मेहतांच्या 'वैशणव जन' भजनाचेर आधारिल्ली आसा. महात्मा गांधींक हें भजन खूब आवडटालें. कवी वामन सरदेसाय गांधीजींच्या सेवाग्राम आश्रमांत रावताले. सेवाग्रामाच्या प्रभावाक लागून 'वैशणव जन' कविता कोंकणींत आयली जावं येता.

बाकिच्या कवितां भितर पयलीच कविता 'आत्मोपनिषद' आसा. भारतीय संस्कृतिचो उर्ध्वगति मार्ग ही कविता व्यक्त करता. परमात्मो पूर्ण, आत्मो पूर्ण, सृश्ट पूर्ण, ब्रह्मांड पूर्ण, अणु पूर्ण. पुराय चैतन्य सृश्ट पूर्ण, अख्खो संवसार आत्मरूप, म्हळ्यार, तें आत्म्याचें उपनिषद. आत्म्याचें सत म्हळ्यार ''तूं, हांव नी सगट मात्र तांचेंच विंगड भोवरूप'' – मनशान आपल्या वांट्याक येता तें भोगपाचें. ते भायर आस धरची न्हय. कश्ट करप हो एकूच कल्याणकारी मार्ग, कश्टाळू मनीस उंचलो/सकलो कोण ना, सगळे एक समान. संवसार आत्मरूप, नदर एकात्मक आनी उर्ध्वगामी दृष्टि आसची हाचो अर्थ कितें? मनशान आपलो आत्मविकास आपल्या 'स्व' तत्वाक वळखून करचो आनी हें तत्व विकसीत जावन त्या 'पूर्ण' तत्वा मेरेन पावचें, मनशान मनीस तत्व प्राप्त करचें. आयज अणुविज्ञानाच्या युगांत मनशांकडेन सगळीं तत्वां आसात. पूण सगळ्या तत्वांचो सर्वोत्तम उपेग मनशाच्या कल्याणा खातीर जावंक जाय हो विचार आयज उणो जायत गेला आनी मनशान आपलें सत्व शेणयलां. हें सत्व म्हळ्यार मनशाचें मनीसपण. कितलीय टॅक्नॉलॉजी आमकां मेळूं, आमचो भरपूर विकास जावं, पूण शरीर बुद्दी वांगडा आत्म्याचोय विकास गरजेचो आसता. ह्या पूर्ण आत्म्यान त्या पूर्ण आत्म्याक प्राप्त करपाचो यत्न करूंकूच जाय आनी होच उर्ध्वगामी मार्ग कवी आत्मोपनिषद कवितेंतल्यान व्यक्त करता. कवी खातीर हेंच सत, शिव आनी सुन्दर. कविता आपल्या 'सत्'च्या आधारान 'शिव' आनी 'सुंदर'ची सृष्टि करत रावता. तें उतरांच्या माध्यमांतल्यान व्हांवता आनी वेगळीं वेगळीं आत्मोपनिषदां विकसीत जायत रावतात.

कविच्या शब्दांची कळ केन्ना केन्ना 'शब्दांविण छंदाविण एकसुरीच म्हजी व्यथा'' जाता. पान ३२ वयली कविता 'व्यथा अंतरींची' हांगा कविची भास आनी उतरावळ कशी बदलता तें लक्षांत धरूंक जाय. 'आत्मोपनिषद'ची शैली आनी 'व्यथा अंतरींची' कवितेची शैली, कवितेचो विचार आनी भावना बदलता. कवितेची व्यथा पुरायेन वेगळी जाता.




*अंतरिचें सपन म्हजें फात्या फात्या रंगता*
*हुन नदरां ऊबेविण नी रंगतनाच भंगता*

अशीं रंगतानाच भंगतात तीं सपनां कितलीं नाजूक; तांकां नांव कशें म्हूण दिवप? देखून ह्यो *'रानफुलापरी नांवाविण व्यथा'*. *'भांगरा धनमणि सो खिण घट हुंटींत थैतां, मिटिंत हांसूं फुट्टा मात आसमंत बावता'* – क्षणिक सौन्दर्य, खिणयाळें पूण सृजन-क्षण महत्वपूर्ण आसता. आनी, 'आत्मोपनिषद'चीं उतरां पळेयात – *''ध्यानीं मनीं जाचे / एकात्मताय / तो सद्दां तेजवंत / गिन्यानी / दयावंत शांत / दुखना, उखलना ताचें / क्षमाशीळ चित्त / तो शुद्ध नी मुक्त / सत्यव्रती निर्भय / सूर्यावरी उकतो / सदां जैतिवंत...''* पृ. २५ ही चिन्तनात्मक उतरावळ. सपनांची व्यथा ह्या उतरांतल्यान व्यक्त जावंक शकना तेच प्रमाण 'आत्मोपनिषद' खातीर 'व्यथा अंतरींची' कवितेचीं उतरां योग्य ठरचीं नात.

कविची व्यथा मोनी आसली तरी कवितेचो सन्देश आशावादी आसा, निराशावादी ना. दर एका मनशाक आपली वाट आपणेंच टांकची पडटा. (*'टांक तुजी वाट'*, पान ३७), खुरीस उबारप म्हळ्यार आपली कर्मांची ख्यास्त भोगप. तो उखलप आनी केदोय घाट चडप. आधार तो आपलोच. माथ्यार कांटाळो मुकूट भळभळूं *'रगत जशें लाव्हांचें पाट'* ही उपमा हांगा उचितच दिसता. रगताची हुनसाण, लाव्हाची खरसाण... रगत भळभळटा, तरी खंगिल्ले कायेन आनी अंदल्ल्या पांयान निळे कांट गाठूंक जाय. श्रम परिश्रम करूंक जाय, वाट टांकुंकूच जाय. *'मीगांच्यो तापी ह्यो / फात्याच्यो वेणो त्या / देठाची मुळ कळ'* हीच आसा. तरी पूण वाट टांकूंक जाय. कर्म करप हो मनशाचो धर्म. कविची 'संजय दृष्टि' आमकां शिटकायता –

*''धाकुट नदरे जग हें वांकुड
उरफाटी बुद उरफाटी गत''* (पा. ५७)

सगळें आमचेरच अवलंबून आसा. आमी मनीस, कुटूंब, समाज, देश, ब्रह्म, विश्व हांचे संबंदी संकुचीत नदर दवरली जाल्यार जशी बुद तशी गत. उत्थान वा पतन आमीच थारायतलीं. आमची जीण आमीच थारायतात जाल्यार मरण कशें तर? कविच्या विचारा प्रमाण

*''मर्ण येवं जशि वाडटां वाडटां
आपशीं झडची वात पेट्टना...''* (पा. ५८)

पेट्टना ती सहजतायेन झडटा तशेंच मर्ण येवचें. देश मेकळो स्वतन्त्र – 'जितो' उरल्यारूच आमीय जितीं आसात अशें म्हणूं येतलें. देशूच मेलो जाल्यार आमी खंय उरतलीं?

*''जित्या भारतीं सगळें जीते
ना तर कुड ही निखटी कट्टी...''* (पा. ५८)

करणांतलीं पोवनां कशीं हीं उतरां स्वतन्त्रतायेचो सन्देश दितात. वांगडाच नागरिकांक हे स्वतंत्रतायेची राखण करपाचीय शिटकावणी दितात. कवीक असल्याच सुंदर आनी तेजिश्ट गोंयाचो दिश्टावो जाता – 'आमचें गोंय' कवितेंतल्यो ह्यो वळी पळेयात—

*कितल्योय संवकूं काळख्यो राती
चुड जंयची सरना
तरसादींनी माथें केदीं, बागोवन बागवना
पूर्वज म्हण्टा ठांयची पण्टी
पालयतलो भंगलो। थंयच मदगतीं* (पा. ४४)

'ठांयची पण्टी' म्हळ्यार 'जाग्या वयली' हो जालो अभिधात्मक अर्थ. लाक्षणिक अर्थ 'गोंयकार'. ह्या स्वाभिमानी गोंयकाराची पण्टी कशीच पालवना.

कविच्या विचारा प्रमाण संवसार कसो? अन्तहीन. जीण जशी विशाळ तशीच संवसाराक शीम ना, पार ना, अन्त ना. उजवाडाक पार ना. अणू अणूंत सहस्त्र सूर्य आसात, मानव बळ आसा. 'मंगल कळे'चो उल्लेख करतना कवी म्हणटा—

*''हे जिवाक पीळ अशे / रुजूंक आयल्ले बिये जशे
कोम फुटूंक कुड झडचे / मंगल ही कळ चुकना
घट्टि नवीं फुट्टिं ल्हारां / हे जिणेक अंत ना.''* (पा. ६७)

तशेंच, 'आमी उरतले' कवितेचो स्वर – *'हांव आनी तुंवूय गेलें, उरले कोण? आमी.'* हें 'आमी' उतर खूब म्हत्वाचें. सगळ्यांत पयलीं मनशाचो जल्म कसो जालो आसतलो? त्या दिसा सावन आयज मेरेन मनशाचो विकास उत्क्रांति स्वरुपांत जावंक लागलो. आनिकूय जातलो. ह्या मानवीय विकासाच्या इतिहासांत एक एक मनीस सांखळेचो एक एक दुवो आसा. कालचें पान सुकतलें पूण वांगडाच नवी आंकरी धरतली आनी 'आमी'चें स्वरूप अखंड उरतलें. 'धा' जाणां सद्दीं उरतलीं. मनशांचो हो इतिहास चलत आयला. केद्द्या व्हडल्या सताचो साक्षात्कार कवीक जाता! 'आमी' उतरच हांगा प्रतिकात्मक स्वरुपांतल्यान व्यक्त जालां.

मनीस आयज जी जीण जियेता थंय स्थिरतायेचें वातावरण ना. ह्या वातावरणाचो प्रभाव संवेदनशील रचनाकाराच्या मनार जाता. इतिहास, समाज, राज्य, राष्ट्र, अर्थशास्त्र, युग सगळें व्यक्त जाता. *'अस्वडीचीं दुकां'* कवितेची देख घेवंया. 'कदेलाचो चौथो खूर मोडटा' हाचो अर्थ स्थिरताय ना. आनी स्थिरताय मेळोवपाखातीर एक दुसऱ्याचो सूर जुळचो पडटा. हें जमना आनी कदेलाची अस्थिरताय जीवन, समाज, राष्ट्र सगळ्या क्षेत्रांत अस्थिरता हाडटा.

*''कोणें कोणाक हांसचें हांगा / कोणें कोणाक शिणचें /
मंत्रि जावं तो संत्रि जावं / ताचीय कदेल थीर ना...
हांव तसो तूं / तूं तसो तो, तो तसो हो.''* (पा. ७०)

हाका उपाय आसा पूण मनीस जाण्टेल्यांचीं उतरां खंय आयकता? मनशान दुसऱ्याक आधार दिवपाचो यत्न करूंक जाय. पूण मनशाची, मनीसपणाची, समजिकायेची, नराचो नारायण जावपाची ही वृत्ति प्रवृत्तिच आयज उणी जायत चल्ल्या. आपलो *'मोनो सूर'* (पान ७१) दुसऱ्यांच्या मोन्या सुराक जुळोवचो प्रयत्न करूंक जाय. आमी हें करनात जाल्यार करतात तरी कितें? कदेलाक एक खूर दिवचे बदला आमी ताचे तिनूय खूर मोडपाचो यत्न करतात. इतिहासांतल्यान कविता इतिहास घडयता ताचो संदर्भ दाखयता. वर्तमान स्पश्ट करता आनी भविश्या खातीर सन्देशूय दिता. ताका पसून लोणी मंथन करून वेगळावचें पडटा. हेच भाशेन कवितेची विचार मंथन प्रक्रिया नव्या विचारांचें लोणी दिता. कोणाचींय दुकां पुसूंक आयज आमचे हात फुडेंच सरनात. लेंस आसुनूय कोणाचे दोळे पुसपाचीं वा ताका आधार दिवपाचीं मुल्यां उरुंकच नात अशें म्हळ्यार जाता. *'अस्वडिंचें दूक'* आनी मानवतायेची ही कळ संवेदनशील कवीक ओगी बसूंक दिना. अणभविल्ली ही कळ शब्दांतल्यान हेरांक कळीत करपाचो तो प्रयत्न करता. आनी, मनीसपणाक जागयता.

'मोगाळ दिव्या' कवितेंत (मुळची ही ख्रिश्चन प्रार्थना) कवी ज्ञानरुपी उजवाडाची मागणी करता. मनीसपणाची वाट चलूंक दिवोच वाट दाखोवंक शकता. एक दुसऱ्याक समजून घेवप, वळखून घेवप, सासणाचे मेळ जोडप, दोळ्यांवेल्यान धुंवटेचो पड्डो देंवता तेन्नाच हें दर्शन आमकां घडूं येता. दोंगुल्लेच्या माथ्यावयली धुंवटी ना जाता तेन्ना दोंगुल्लेचें स्पश्ट दर्शन घडटा, तशेंच, दोळ्यांवेल्यान धुंवटी कुशीक सरता आनी आमची दृष्टि लख्ख नितळ जाता. एकचाराचो सूर मेळटा. हेंच कविचें जीवनदर्शन जाता. हांगा एक गत्यात्मक बिंब उपरासता. अज्ञानरुपी धुंवटी आमची दृष्टि अस्पश्ट करता. हो पड्डो देंवना ते मेरेन दृष्टो दृष्टिवान जावंकच शकना. देखून अज्ञान कुशीक सरूंक जाय, कुशीक काडूंक जाय. तेन्नाच आमी एक दुसऱ्याक वळखतात. 'अभिजित' आपणाले प्रतिभाशक्तीन आमच्या दोळ्यांवयली धुंवटी कुशीक काडटा आनी आमकां नवें दर्शन घडयता.

**अभिजित**
**वामन सरदेसाय**
**पद्मश्री वामन सरदेसाय स्मारक ट्रस्ट, पणजी, १९९५**
**पानां: ७१, मोल: ५० रुपया**

## पोंच

**गीतोत्सव** (गीतां आनी संगीतिकांचो झेलो)
हरदत्त खांडेपारकार, १९९८
उजवाडावपी: रत्नाकर खांडेपारकार, मडगांव
पानां: ७२; मोल: ५० रुपया